जाग प्रकाशनाचें

# जाग

म्हयनाळें

वर्स ४५ : आंक ६ : फेब्रुवारी, २०१९

❋ संस्थापक संपादपी :
स. रवीन्द्र केळेकार
स. सुमंत केळेकार

❋ वैचारीक दायज :
स. माधवी सरदेसाय

❋ संपादपी :
आसावरी नायक

❋ पालवी संपादपी :
कृपाली नायक
एडना वाझ

❋ उजवाडावपी :
जयवंत भा. सरदेसाय
२०१-बी, सालदॅल अपार्टमॅन्टस्
रुअ द साउदादिश, पाजीफोंड,
मडगांव - गोंय ४०३ ६०१.

❋ छापपी :
इम्प्रेशन्स, बी-२, 'अक्षर आर्केड',
गोंधळी गल्ली, बेळगांव ५९० ००३

❋ वेव्हाराचो नामो :
जाग म्हयनाळें
बिल्डींग ३, प्लॅट ३, - SE-3
मॉडेल स्टेटस, दोनापावल-तालिगांव मार्ग, गोंय
विद्यापिठा लागसार, ताळगांव-गोंय ४०३ ००४.
फोन: ९७३०८७१११८/ ७४४७२६८७२०

| | | |
|---|---|---|
| वर्सुकी पटी | : | ४००/- रु. |
| विद्यार्थ्यां खातीर (फकत वर्सुकी) | : | २००/- रु. |
| तीन वर्सांची पटी | : | १,०००/- रु. |
| वाचप-घरां खातीर वर्सुकी पटी | : | ५००/- रु. |
| जिवीत भराची वांगडी-पटी | : | ४,००० /- रु. |

पटी मनी ऑर्डरीन वा ड्राफ्टान धाडची.
ड्राफ्ट Jaag Monthly च्या नांवाचो आसचो.

किरकोळ आंकार्चे मोल : रु. ४०/-

## मांडावळ...



भायले चित्रः एफ. एन. डिसौजा

संवसारभर नामना मेळयिल्ल्या गोंयच्या ह्या चित्रकाराचो भोवमान म्हणून 'जाग' तांचे हे चित्र कव्हर म्हणून छापता. २००५ वर्सा हे 'क्रुसीफिकेशन' ओयल पेंटिंग दोन कोटी ७३ लाख रुपयांक एके पावणेक खपिल्लें. १९२४ वर्सा साळगांवां जल्मल्ल्या डिसौजांक 'भारत छोडो' चळवळींत वांटो घेतिल्ल्या कारणान जे. जे. कॉलेजींतल्यान काड्न उडयिल्लें. १९४७ वर्सा रजा, हुसेन हांच्या वांगडा तांणी प्रागतीक चित्रकार गटाची स्थापणूक केली...

भितल्लीं चित्रां : भरत जगताप

मुलाखत : मेल्वीन रॉड्रीगीस

# लिपीचो प्रस्न सुटूंक ना... प्रमाणिकरण आडखळ्ळां... कोंकणी परिशदेन ते नदरेन यत्न करूंक ना...

२४ व्या अखील भारतीय साहित्य संमेलनाचें अध्यक्षपद तुमकां फावो जाल्ले खातीर 'जागा'वतीन काळजांतल्यान परबीं.

**प्रस्न : जे.बी. सिक्वेरा उपरांत मंगळूर वाठारांतले तुमी तरणाटे साहित्यीक जे २४ व्या कोंकणी साहित्य संमेलनाचे अध्यक्ष जातात. हें कोंकणीच्या मंगळूर वाठाराक मेळिल्लें प्रतिनिधीत्व अशें म्हणू येता? तुमचें मत कितें?**

**जापः** कोंकणी साहित्य म्हणताना तांतूंत गोंयचें वेगळें, कर्नाटकाचें, केरळाचें आनी महाराष्ट्राचें वेगळें, हिंदवांचें वेगळें, क्रिस्तावांचें वेगळें - अशें आमी वांटे करूंक फावो ना. हांगा एका प्रदेशांतलो जांवक पुरो, पूण कोंकणी समाजाचो. साहित्याक संबंध जाल्ले जायते लेख, विमर्शे हांव आदीं थावन वाचून आयलां. हांतूंत गोंयच्या कोंकणी साहित्याचे अध्याय वेगळे आसतात आनी कर्नाटकाचे तशें हेर राज्यांचे वेगळे आसतात. गोंयकार जे साहित्यीक विमर्शे बरयतात, तांतूंत गोंय प्रदेशा थावन निर्माण जांवच्या कोंकणी साहित्या विशीं मात उल्लेख आसतात. कर्नाटकांतूय अशेंच घडता. हांव हें पसंद करीना!



लिपयेच्या समस्याक लागून आमकां वेगळ्या वेगळ्या प्रदेशांतलें साहित्य वाचूंक, समजून घेंवक त्रास जातात जावंक पुरो. पूण कितल्या जाणांनी येदोळ पासून कोंकणीच्यो तिनूय लिपी शिकचें यत्न चलयलां? म्हाका धरून बोटांनी मेज्येता तितंल्या साहित्यींक मात्र तिनूय लिपी वाचूंक, बरोवंक येतात. म्हाका तिनूय लिपी येतात देखून कोंकणीच्या लिपेचे समस्ये हांव बरें करून जाणां. तिनूय लिपयो वाचूंक, बरोवंक येनातल्ल्यांक "कोंकणीक एक लिपी आसूं" वा "सरवय लिपी आसूं" म्हणचो अधिकार ना.

हांवें बरयल्लें साहित्य समग्र कोंकणाच्या वाचप्यांनी वाचूंक जाय म्हळ्ळें निरंतर प्रेतन हांव करून आसां. हांव कोंकणींत बरोवंचो मंगळूरी साहित्यकार न्हय. हांव कोंकणींत बरोवंचो भारतीय साहित्यकार.

आतां तूंच सांग, हांव आतां साहित्य संमेलनाचो अध्यक्ष जाताना, तें मंगळुरी वाठाराक मेळल्लें प्रतिनिधित्व म्हण सांगूंक तुका बरें लागता? म्हाका बरें लागना. सारकेंय दिसना.

जे. बी. मोरायस, जे. बी. सिकवेरा जल्मान मंगळुरचे तरी पन्नास वर्सांक मिकवून मुंबयंत ते राबितो करून आसल्ले. गोकुळदास प्रभू जल्मान केरळाचे तरी चडीत वर्सां ते मंगळुरांत रावल्यात. मागीर सैल बाब जल्मान कर्नाटकाचे, पूण गोंयांत चडीत काळ रावल्यात. हांकां एका प्रदेशाचे म्हण वोलायनासतां समग्र कोंकणाचे म्हणून आमी वळखूंक शिकजाय.

**प्रस्नः कविता ट्रस्टाच्या रुपान तुमी कोंकणी कवितेच्या मळार एक चळवळ चलयल्या. ह्या तुमच्या कार्याची आनी एक कवी म्हण तुमची दखल कोंकणी जगतान घेतल्या अशें तुमकां दिसता?**

**जापः** दखल जाल्या वा ना म्हण मेजूंक कसल्या मानदंड या मापाची आमकां गर्ज आसां.

जायते पुरस्कार म्हज्या साहित्याक मेळ्ळयात. गेल्ल्या गांवांनीं लोक म्हाका कवी म्हण वळखता. देशांतले जायते तशेंच विदेशांतले थोडे कवी, बरोवपी म्हजे लागीं संपर्कांत आसात. म्हाका कवी संमेळनांक वोवळीग दितात. म्हजी एक कविता इंग्लंडांतल्या दिसाळ्याचेर आरेबीक भाशेंत पर्गट जाल्या. भारताच्या हेर भासांनींय जाल्यात. जायत्या पुरस्कार वेंचणुके समितिंनी म्हजो वावर हांव दिवन आसा. आतां अखील भारत कोंकणी साहित्य संमेळनाचो अध्यक्ष म्हणून म्हजी निवड जाल्या - म्हणताना कवी म्हणून कोंकणी जगतान म्हजी दखल घेतल्ले विशीं रुजवाती दिसतात. म्हज्या व्हडपणा विशीं हांवेंच घुमट व्हाजोंवचें सारकें न्हय.

कविता ट्रस्टाच्या तशेंच म्हज्या वावरा विशीं माधवीन 'जाग' नेमाळ्याचेर विशेश लेख बरयल्लो. आशोक वाजपेयी तसल्या कवीन एका हिंदी दिसाळ्याचेर कविता ट्रस्टा विशीं बरयलां. कन्नड तशें

मराठी पत्रांनी आमच्या वावराची तोखणाय चल्ल्या. इकरा वर्सां आदीं कविता ट्रस्टीन चलयल्ल्या कोंकणी कविता सादर सर्तेत पयलें इनाम जोडल्ल्या विल्मा बंटवाळाक आदल्या वर्सा साहित्य अकादमीचो युवा पुरस्कार लाबला. कोंकणी कवितेच्या संदर्भार कसलीय म्हायती जाय जाताना भारताचे जायते कवी, संस्था आमकां विचारतात. कविता ट्रस्टीन पर्गट केल्ल्या जायत्या पुस्तकांक पुरस्कार लाभला. कर्नाटक सरकारान पर्गट केल्ल्या पुस्तकांत कविता ट्रस्टाच्या वावरा विशीं प्रत्येक म्हायती छापल्या.

ह्यो पुराय गजाली एक कवी म्हण म्हजी आनी एक संस्था म्हणून कविता ट्रस्टाची कोंकणी मात्र न्हय हेरांनी दखल घेतल्या म्हळ्ळें सांगता.

**प्रस्नः ह्या भोवमानान मंगळूर वाठारांतल्या साहित्यीक आनी भाशीक वर्तुळांत कितें बदल जातले अशें तुमकां दिसता?**

**जापः** फुडाराचो बदल कितें जातलो तो म्हज्या हातांत ना. म्हज्या साहित्यीक इश्टां मदें मंगळुरांत, गोंयांत तशें हेर कडेन विशेश उमेद भरुन आयल्ल्या विशीं हांव जाणां. जायत्या जाणांनी साहित्य संमेळनांत वांटो घेतल्यांव, "तुमचो भोवमान आमकां सकडांक खोशयेची गजाल" म्हणून म्हजे लागीं सांगलां. ही उमेद ह्या सरवांक आनी स्वता म्हाका, खंय पासून वरन पावयतली, आनी कसलो बदल आमच्या साहित्यांत आनी भाशीक वर्तुळांत येतलो म्हळ्ळे विशीं आतांच नखखी सांगोंक म्हज्यान जायना. तरूय म्हज्या उलोवपांत जे मुद्दे हांव मांडतलों, त्या विशीं थोडे तरी विचार करून साहित्यांत बदलाव आयलो तर हांव दाधोशी.

**अखील भारतीय कोंकणी परिशेचें २४ वें साहित्य संमेलन ०२ आनी ०३ फेब्रुवारी २०१९ ह्या दिसांनी काणकोणां घडटा. संमेलनाच्या अध्यक्षपदार वेंचून काडिल्ले नामनेचे कवी मेल्वीन रॉड्रीगस हांची ही खाशेली मुलाखत. मेल्वीनबाब हें निकटे कवी न्हय जाल्यार मंगळूर वाठारांतले खडेगांठ प्रतिनिधी आनी कोंकणी-कन्नड भासां मदलो एक म्हत्वाचो दुवो.**

**प्रस्नः हें २४ वें साहित्य संमेलन. फाटलीं ५० वर्सां आमी साहित्य संमेलनां करतात तार्चे फलीत कितें अशें तुमकां दिसता?**

**जापः** कोंकणी साहित्य परिशद साहित्य संमेलनां घडोवन हाडटा. साहित्य परिशदेचें मुळावें शेवोट कसलें म्हणून आजून हांवें वाचूंक नांत. तरी पूण कोंकणीच्या मळार जो वावर चल्ला, तातूंत परिशदेन केल्लो वावर कोणेंय विसरोंक फावो ना. पुण गोंयची राज्यभास कोंकणी जाल्या उपरांत परिशदेच्या शेवोटांनी बदल येवंक जाय आशिल्लो आनी ते ज्यारी करूंक वावर चलजाय आशिल्लो.

न्हय तर फाटल्या २४ संमेळनां उपरांतय आमकां लिपिचो प्रस्न सुटेवंक जालोना. लिपीक लागोन आमी फासळ्ळ्यांव. परिशदेन वेगळ्या वेगळ्या मनाच्या मनश्यांक सांगाता हाडून हो प्रस्नाक जापी सोदचें प्रेतना करूंक जाय आसल्लें. पूण आजून जाल्ले दिसना. भाशेच्या प्रमाणिकरणाचो वावर जाल्लो दिसना. फकत गोंयांक मात्र मतींत घेवन, तांतल्या तातूंत वयल्या वर्गाची बोली मात्र मनांत घेवन रुता केल्ली बरोवंची भास प्रामाणिकरणाचे प्रक्रि येंत आमी सलवल्ल्याची गवाय. प्रामाणीकरण समग्र कोंकणाच्या बोलींक सांगाता घेवन करूंक जाय. हे दिशेन समग्र कोंकणी बोलींच्या कोंकणी शब्दकोशाचो वावर जावंक जाय. सगळ्या संशोधकांक, जाणाऱ्यांक, युवजणांक सांगाता घेवन परिशदेन आपलो वावर केल्लो दिसना. म्हाका दिसता परिशदे भितर structural बदल येवंची गरज आसा. परिशद म्हळ्यार एक सादें क्लब वा एसोसीयेशन म्हळ्ळें चिंतप आमी हुंमटोन उडोंवक जाय.

**प्रस्नः कोंकणीच्या मळार वावर जाता पूण सगळ्या घटकांक घेवन आमी मुखार वतात? ना जाल्यार तुमचे जाणीव पुर्वक यत्न कितें आसतले?**

**जापः** वेगळ्या वेगळ्या घटकांचे शोवोट वेगळे वेगळे आसतात. कोंकणीच्या नदरेन तांतल्या मनशांचें चिंतप लेगून वेगळें आसता. ह्या कोणायकी पयस दवरचें शाणेपण न्हय. सगळ्यांचे विचार मनांत घेवन फुडल्या वीस-पंचवीस वर्सांची दिक्सूची या मिसांव परिशदेन रुपीत करिजाय. बरें काम जाय जाल्यार बरें चिंतप आसोंक जाय. बरें चिंतप मिसांवाच्या शेवोटा थावन उबजाल्लें आसोंक जाय. सक्कड् घटकांच्या मनशांक सांगाता घेतल्ल्या वरवीं मात्र बळवंत मिसांवाचे वाटेर चलोंक बळ आमकां लाभतलें.

साहित्य संमेळनाचो अध्यक्ष जावन म्हजो अधिकार कसलो म्हळ्ळें आजून हांव नेणां. परिशदेचें constitution हांवें वाचूंक ना. जरी तरी कसलो म्हाका अधिकार आसतलो त्या वर्तुळा भितर रावोन करूंक साध्य आसचें हांव करतलों.

**प्रस्नः कोंकणी साहित्य भारतीय साहित्याचे तुळेंत खंयच्या पांवड्यार आसा अशें तुमकां दिसता?**

**जापः** कोंकणी साहित्य आमी हेर भारतीय साहित्याक सर करूंक जायना. आमच्या साहित्याक व्हडशी चरित्रा ना. कांय थोडे फावटीं हें आमचें अद्रुश्ट जांवु येता. कित्याक आमच्या फुडल्यान व्हडश्या साहित्यिकांचो संखो ना. तशें जाल्ल्यान आमची तुळा आमचे लागींच करची पड्टा. थोडे फावटीं असली एक गजाल बरी न्हय. कित्याक आसल्ल्या थोड्या सकडांक पुरस्कार मेळटात. ते सक्कड - पुरस्कार जोडल्ल्या हेर भारतीय साहित्यिकां बराबर तांकां लेकूंक सुरू करतात. कन्नड साहित्य, मराठी साहित्य पळेया, शेंकड्यांनी वर्सांची ह्या साहित्याक चरित्रा आसा, नवे कोणूय बरयताना त्या हजारों साहित्यिकांच्या साहित्या लागीं तांची तुळा जाता.

अशें म्हणताना आमचे मधें रवीन्द्रबाब केळेकार, महाबळेश्वर सैल तसले साहित्यिकार आसात आनी आसल्ले. तांचें साहित्य खंयच्याय भारतीय साहित्या बराबर तकली उबारून रावोंक सकचे तसलें. पूण आमी कोंकणी साहित्यिकार भारतीय साहित्यिकारां मुखार अल्पसंख्यात. आमचो संखो ल्हान देकून हेर भारतीय साहित्या मुखार आमी कांय थोडे फावटीं ल्हान दिसतांव जांवक पुरो.

**प्रस्नः पांवडो वाडोवंक जाय जाल्यार आमी कितें करूंक जाय?**

**जापः** कांय दोगां-तिगांनी सोडल्यार चडश्या कोंकणी साहित्यिकांनी तांच्या साहित्या वरवीं कोंकणी नेणासल्ल्या खंयच्याय वाचप्याक तांचें साहित्य - कोंकणींत वा अनुवादांत - वाचूंक आपणा थंय वोडलां म्हण हांव चिंतीना. ऑर्हान पामुख पळेया, ताचें साहित्य तुरकी भाशेंत तो बरयता, पूण ते भाशेंत पर्गट जाता जाताना संसाराच्या हेर वीस पंचवीस भासांनी तें अनुवाद जावन पर्गट जाता. असली तांक आमच्या साहित्याक येजाय. न्हय तर जालें, आमचो पांवडो वाडोंवच्याक काम उरलां म्हणून जालें.

हो पांवडो वाडोवंक आमी कितें करूंक जाय म्हणून चिंतचे आदीं, साहित्यीक जावन ''आमी कोण?'' म्हळ्ळो प्रस्न आमी आमकांच घालूंक जाय. आमच्या जायत्या साहित्यिकांक आपूण कोण, आपूण कित्याक बरयतां म्हळ्ळ्याची खबर ना. रवीन्द्रबाब आपल्या 'सर्जकाची आंतरकथा' पुस्तकांत च्यार जातींच्या साहित्यिकांची वळख करून दिता. समाज जाग्यार हाडचे खातीर परंपरे आड, रुडीं आड, समाजाच्या कुसक्या, नश्ट्या, पाड्ड्या आंगां आड लिखणेची तरसा करून झुजतात तसले साहित्यीक आमकां जाय. जिवा तरफेंच्या गजालींक उखलून धरचे तसले आनी जिवा विरोधी गजालींक प्रतिरोध दाखोंवचे तसले साहित्यीक आमकां जाय. असली एक स्पश्टता आसोन कोण बरयता तांचें साहित्य बळवंत पांवड्याचें आसता.

**प्रस्नः कोंकणी साहित्य आनी चळवळी मुखार कसलीं आव्हानां आसात अशें तुमकां दिसता?**

**जापः** आमचे चडीत साहिती हांवें आशेंवचे तसले न्हय. तांकां ते कोण कळीत ना. ते एक बरयतात, पूण करतात वेगळेंच. असल्या गुस्पागोंदोळांत एका बरोवप्यान आसचें न्हय. आपूण कोण म्हळ्ळें पयल्यान पयलें ताणें स्पश्ट करूंक जाय. तो कोणाचोय पक्ष घेव, जिवाक मोल दिवंचो पक्ष आसूं वा जिवाविरोधी. पूण कसलेंय एक धोरण घेवंक सकनासतां, मधेगात, सुशेगात म्हणून मांदचो साहित्यीक, खंयचेय भाशेक मारेकार. थोड्या संदर्भांनी जिवा विरोधी गजालींक आपल्या साहित्यांत पोसचे साहिती तरूय व्हय, पूण जिवा तरफेच्या जांव, जिवा विरोधी गजालींक आपल्या साहित्यांत पोशीनासतां भियान बरोंवचें साहित्य, ते साहित्य न्हय. तांच्या साहित्याक कांय मोल ना म्हणून हांव म्हणना. आसोंक पुरो. पूण सोन्याचें मोल भिलकूल न्हय. ताणी बरोंवचें 'रद्दी' साहित्य, वा मंगळूरचे भाशेंत 'शेण साहित्य'.

आमच्या साहित्यात तांच्या बरपांत प्रतिभटन दाखोंवचो, मनशा मोलां उकलून धरचो अधिकार आसा. आमी साहित्यात बऱ्यांत आनी वायटांत देशाचें अंतस्कर्ण कशें वावरूंक जाय. सत उलोंवचो अधिकार आमकां आसा. ह्या एका ग्रेस्त चितपा थावन, सत उलोंवच्या चिंतपा थावन आमी पयस सरचें न्हय.

असली एक स्पश्टता आमच्या बरोवपांत हाडचेंच आमचे मुखार आसचें पयलें आव्हान.

दुसऱ्यान, आमचे मधले चड्शे बरोवपी, साहित्यीक, कवी - आमच्या भोंवारांत अनाउतां घडताना मोनको घोटून मौन सांबाळून बसतात. कितेंय बरयनांत. साहित्यीक म्हळ्यार अक्षरांचे धनी. अक्षरा ब्रह्माचें अस्त्र आमचे लागीं आसोन जरी तरी आमी थंड बसतांव, मोने रावतांव, उलयनांव जाल्यार pseudo बरोवपी वयर येतले आनी ताणी बरयल्लें सत म्हणून संसाराक पाचारून सांगतले. त्या देखून आमच्या साहित्यीकांनी सताचो पक्ष घेवन बरोवंक लांवचें आमचे मुखार आसचें आन्येक आव्हान.

**प्रस्नः कोंकणीचे वैचारीक चळवळींत तरणाट्यांक आसपावन घेवपाचो विचार जायना अशें एक मत आसा. ह्या मताचेर तुमचे विचार कितें? हे संदर्भांत तुमचें जाणीवपुर्वक यत्न कितें?**

**जापः** तरणाटें म्हल्यार कोंकणीच्या संदर्भान नवे उपयुक्त विचार तांचे लागीं आसतात. कसलेय थराव कार्यगत करची कार्यक्षमता तांचे लागीं आसता. आधुनीक तांत्रीक गजालींची जाणवाय आसा देखून खंयचींय कामां ते तुरतान करूंक शकतात. तांकां वर्सां लागनांत.

म्हाका दिसता तरणाटी पिळगी जी आसा, ती कोंकणीचो फुडार. तांची अलक्षा करची भिल्कुल न्हय. तांकां कोंकणीच्ये चळवळींत मोगान आमी आसपावन घेवंक जाय. तशें म्हणताना म्हालघड्यांनी पयस सरचें अशें हांव सांगना. ह्या तरणाट्यांक तांचीं मतां उक्तांवक ताणी संधी दिवंक जाय. तांचे बरे विचार मांनून घेवंक जाय. ताणी बरें काम करतना, तांची फाट थापडूंक जाय. जायतीं वर्सां ह्या म्हालघड्यांनी असल्या संस्थांचें सुंकाण धरलां, आतां पयस रावोन तांकां मार्गदर्शन दिवंच्यांत आनी कोंकणीची नवी फौज बांधून हाडच्यांत ताणी मजत करूंक जाय.

**प्रस्नः तशेंच नवोदितां कडल्यान तुमच्यो कितें अपेक्षा आसात?**

**जापः** मरा पासून शिकचें जें आसता, तें काबार जायना. म्हालघडे कितेंय म्हणूंदीत, रागार जायनासतां, कोंकणीचो फुडार आमच्याच हातांनी आसा म्हण लेखून कोंकणीच्या चळवळेंत नवोदितांनी सक्रिय रितीन पात्र घेवंक जाय. सोंसणीकाय पांगुरा, जैत तुमचें जातलें.

**प्रस्नः भारत भर जो सद्या चर्चेचो विशय आसा तो म्हळ्यार अभिव्यक्ती स्वातंत्र्याचो. २४ व्या साहित्य**

*(पान १६ चेर)*

# कोंकणीच्या सांगात्यां कडेन चर्चा करुंनच अकादमीचो वावर फुडें व्हरतलों



**प्रस्नः सुरेशबाब, 'जाग'चे वतीन तुमकां परबीं दितां. एका अणभवी, निश्ठावंत आनी लायक व्यक्तीची नेमणूक गोवा कोंकणी अकादमीच्या अध्यक्षपदाचेर गोंय सरकारान हालींच केल्या. हो तुमच्या आयज वेरच्या कार्याचो गौरव अशें आमी मानतात. आमच्यो तुमकां शुभेत्सा.**

जापः तुमचे सदित्शे पासत देव बरें करूं. म्हज्या इश्टांच्या आनी बरे मागतल्यांच्या सदित्शेनच हांव ह्या व्हड जबाबदारीच्या पदाक न्याय दिवपाक शकतलों. म्हज्या जिवितांत हांवें अनेक पदां भोगल्यांत आनी साबार समित्यांचेर वावुरलां. आतां निवृत्ती उपरांतचे हे पिरायेचेर कसल्याच पदांचो सोंस ना. फाटलीं २३ वर्सां म्हज्या साहित्यीक वावरांत हांव गुल्ल आसां. जेन्ना हे विशीं म्हजे कडेन प्रस्ताव आयलो, तेन्ना हें पद हांवें स्विकारचें न्हय अशी म्हजी प्रतिक्रिया जाली. म्हज्या घरच्याचेंय हेंच मत आसलें. पूण कोंकणीच्या आनी अकादमीच्या कांय हितचिंतकांनी म्हजें मन वळयलें. अकादमीच्या फुडाराचे दिश्टीन, म्हज्या सारकिल्या अणभवी मनशाची गरज आसा. फाटल्या देड वर्सा भितर, अध्यक्षा विणे अकादमीच्या वावरांत पोकळी निर्माण जाल्ल्यान तिची आवतिकाय हुस्को करपाची जाल्या म्हणून हांवें अध्यक्षपद घेवचें अशें तांणी सुचयलें.

**प्रस्नः तर मागीर तुमचो विचार कित्याक बदललो?**

जापः हांव नियती मानतां आनी नियतीनूच म्हज्या जिवितांत म्हज्या भुजांचेर साबार जबाबदारीचीं पदां घाली. आनी ईश्वराचे कृपेन हांवें ती समर्थपणान पेल्लां. जंय जंय म्हाका कार्य करपाची संद मेळ्ळी, थंय थंय म्हाका मेळिल्ले संदीचे म्हजे कडेन भांगर जालें. पिरायेचे ६१व्या वर्सा हांव निवृत्त म्हळ्यार रिटायर जालों खरो, पूण म्हजे कालचे गाडयेक हांवें नवे टायर घालून हांव रि-टायर्ड (retyred) जालो. निवृत्त जावप म्हणल्यार वोल्तेराचेर बसून न्हिदो काडप न्हय, तर नव्या कामांत मनाक गुंथप अशें हांव मानता. फाटलीं २३ वर्सा हांव दिसाक ६ ते ७ वरां म्हज्या मेजाशीं बसून काम करता. आनी तातूंतल्यान उपाट खोस आनी समाधान म्हाका मेळटा. हो वावर म्हाका आनंद तर दिताच, म्हजी उमेद आनी उर्बाय वाडयता. म्हज्या ह्या साहित्यीक वावराक लागून, म्हजे फाटीक लागिल्ले ''कर्कश' पिडेचेर हांवें जैत जोडलें. हाका मुखेल कारण म्हजी हयकारी वृत्ती असो म्हजो मुंबयचो दोतोर म्हणटा. निवृत्त जाल्ले जायते व्यक्ती निश्क्रीय जाल्ल्यान बेगीन सोंपतात.

**प्रस्नः फाटल्या २३ वर्सा तुमचे कडल्यान प्रचंड वावर जालो न्हय?**

सुरेशबाब आमोणकार एक तपस्वी साहित्यीक. तें निखटे लेखक न्हय, शिक्षणतज्ञ, शिक्षणीक प्रशासक आनी गोंयच्या विवीध मळार वावर केल्लें एक धडाडीचे कर्तृत्वी कार्यकर्ते. संस्कृत, पाली ह्या शास्त्रीय भाशां सांगातांकच कोंकणी, मराठी आनी इंग्लीश ह्या भासांचो तांचो अभ्यास देखदिणो. गोवा कोंकणी अकादमीच्या अध्यक्षपदार तांकां वेंचून काडल्यात. ह्या पदार संशोधनाची कळाशी आशिल्लीच व्यक्ती वेंचून काडूंक जाय हे विशीं दुमत आसचें ना. ८४ वर्सा पिरायेच्या ह्या जाण्ट्यां पूण उमेदीन पुराय भरिल्ल्या व्यक्तीमत्वाक अजुनय खूब काम करपाचें आसा हें तांच्या मुलाखतींतल्यान सामकार येता.



जाप: हे निवृत्तीच्या काळांत म्हजे कडल्यान १३ म्हत्वाचे ग्रंथ ईश्वराचे कृपेन जाले. ताचे श्रय हांव घेना, कित्याक हांवें कसलोच संकल्प करूंक नासलो. 'धम्मपद' ह्या ग्रंथा फाटल्यान, साबार धर्मग्रंथ म्हजे कडल्यान जाले. नियतीनूच म्हाका वेंचून काडलो आनी म्हजे कडल्यान ते करून घेतले, हो म्हजो भावार्थ आसा. धम्मपद ते ज्यूलियूस चेझार अशे ते १२ ग्रंथ आनी कांय दिसां भितर श्रीसमर्थाचे 'मनाचे श्लोक' कोंकणींत येतलें.

**प्रस्न: हे नवे नेमणूके कडेन तुमी खंयचे दिश्टीन पळयतात?**

जाप: नियतीनच म्हाका हें पद स्विकारपाची 'ऑर्द' दिली. फाटलें देड वर्स अध्यक्षाच्या फुडारपणा विणें अकादमी कुटत कुटत चलता अशें म्हणटात, जाका लागून जायते प्रकल्प आनी येवजणो अर्दकुट्यो उरल्या जातल्यो. अशें सांगल्यार तांकां चाला दिवची पडटली आनी अर्दकुटो उरिल्लो वावर पुराय करचो पडटलो. कांय म्हत्वाचीं उदिश्टां प्रत्यक्षांत येवचे खातीर, गोवा कोंकणी अकादमी स्थापन जाल्ली. ही उदिश्टां पुराय जालीं काय ना हे विशीं नियाळय घेवची गरज आसा. प्रत्येक संस्थेक अशे तरेचो नियाळ अर्दी मर्दी घेवचोच पडटा, नाजाल्यार तिचो विकास खुंटता.

**प्रस्न: अकादमीचें कार्य कशें चलचें अशें तुमकां दिसतां. तुमी कांय वर्सां अकादमीच्या कार्यकारी समितीचे वांगडी म्हूण आशिल्ले न्हय?**

जाप: अकादमीचे स्थापनेपासून म्हजो अकादमी कडेन संबंध आयला. चडशें अध्यक्ष म्हजे इश्ट आशिल्ल्यान आमची अकादमीच्या कार्या विशीं अर्दीमर्दी भासाभास जाताली आनी कांय अध्यक्षांक हांवें 'फुकटचो' सल्लोय दिला. आता कळटा, मागले बगर सल्लो दिवचो न्हय. कार्यकारी समितीचो हांव तीन वर्सां वांगडी आसलों. अकादमीनच म्हजी नेमणूक केल्ली. राष्ट्रभाषा प्रचार समिती, वर्धा ही संस्था जशी 'हिंदी'च्यो वेगळ्यो वेगळ्यो पांवड्याच्यो परिक्षा घेता, तेच धरतेचेर 'कोंकणी' विशयाच्यो परिक्षा अकादमीन घेवच्यो ही म्हजी सुचोवणी अकादमीन मान्य केली आनी कांय वर्सां ह्यो परीक्षा चलताल्यो. मागीर त्यो बंद जाल्यो.

**प्रस्न: कोंकणी अकादमीच्या कार्यक्रमां विशीं आनी वेगळ्या वेगळ्या येवजण्या विशीं तुमचें मत कितें?**

जाप: म्हाका दिसता 'अकादमी' ही संस्था तिचें नांव सुचयता ते प्रमाणे ती एक प्रबोधिनी. भाशेचे उदरगती संबंधान तिचो वावर सोद-प्रकल्पांचो आसचो. भास ही संस्कृतीची नाळ आशिल्ल्यान भाशेची उदरगत घडोवन हाडपी येवजण्यां वरवीं तशेच भाशीक जाणविकाय अभिव्यक्त करपी लोकवाङ्मय, लोककला आदीं तासांचे वावर अकादमीन करपाक जाय. कोंकणी लोककलांचेर डॉ. जयंतीबाय नायक हांणी तोखणायेचो वावर केला. दर एका तालुक्यांत असो वावर जावंक जाय. कोंकणीच्यो साबार बोलयो आसात. ह्या बोलयांतली उतरावळ शेणचे पयलीं कोशवाङ्मयांत ती येवपाक जाय. बोलयांच्या कोशां वांगडाच परिभाशीक कोशांचीय गरज आसा. एक विशाल कोंकणी-हिंदी-इंग्लीश कोश आमचे कडेन ना. हो प्रकल्प कोंकणी अकादमीन केंद्रीय साहित्य अकादमीच्या पालवान करपाक जाय. इंग्लीश-कोंकणी कोशाचो दुसरो खंड पुराय जावपाक जाय. गोंयां भायर ज्यो कोंकणी खातीर वावुरपी संस्था आसात तांचें सहकार्य घेवन असले कांय प्रकल्प अकादमीन करपाक जाता. गोंय विद्यापीठाच्या सहकार्यान कांय करूं येत.

**प्रस्न: तुमी अकादमीची सुत्रां हातांत घेतकच तुमची प्रायोरिटी कितें आसतलीं?**

जाप: पयली गजाल. अकादमीचो अधिकारी वर्ग आनी पदाधिकारी हांचे कडेन अकादमीच्या कार्या विशीं भासाभास करची पडटली. फाटल्या देड वर्सांच्या काळांत बरेच प्रकल्प आनी येवजण्यो अर्दकुट्यो उरल्या आसतल्यो. तांचो नियाळ घेवंचो पडटलो आनी सगळ्यांच्या सहकार्यान ह्या येवजण्यांक गती दिवंची पडटली. खंयचीय संस्था एक व्यक्ती चलयना. अध्यक्षान किंवा संस्थेच्या मुखेल्यान संबंधितांच्या पालवान आनी सहकार्यान ती चलोवची पडटा. संस्था 'वन-मॅन-शो' जाल्यार तिचो उत्कर्श जायना.

**प्रस्न: खरेंच, सुरेशबाब तुमी अकादमीच्या उदिश्टांचेर बरोच उजवाड घालो. हे विशीं तुमी खोलायेन अभ्यास केला अशें दिसता. तुमच्या वावराक आमी शुभेत्सा दितात. सरकारचें फाटबळ तुमकां आसतलेंच आनी ताच्या सहकार्यान आनी अकादमीच्या सगळ्या पदाधिकाऱ्यांच्या पालवान तुमी यशस्वी जातलें हातूंत आमकां मात्तूय दुबाव ना.**

जाप: देव बरें करूं.

थारावण्यो नात - सामुहीक आवाज ना

# साहित्य संमेलनां, परिशदेचीं अधिवेशनां अर्दकुटीं दिसतात

उदय भेंब्रे

अखील भारतीय कोंकणी परिशदेचें कोंकणी साहित्य संमेलन म्हळ्यार समेस्त कोंकणी साहित्यीक, उजवाडावपी, समिक्षक, वाचक आनी साहित्यमोगी रसीक हांची माची. साहित्या विशीं आनी साहित्या कडेन लागींचो संबंद आशिल्ल्या विशयांचेर ह्या संमेलनांत विचार जाता. थोड्या साहित्याचें सादरीकरणूय जाता. साहित्याच्या निमतान वेगळ्या वेगळ्या प्रदेशांतले प्रतिनिधी एकठांय येवप, चर्चा करप, विचारांचें आनी मतांचें आदान-प्रदान करप आनी विवीध कार्यावळीं वरवीं कोंकणी साहित्या संबंदान कोंकणीभाशीक लोकां मदीं आनी हेर भासांतल्या इत्सुकां मदीं जाग्रुताय वाडोवप हे ह्या संमेलनाचे लाब. आनीक एक लाब आदीं आशिल्लो; पूण फाटल्या कांय वर्सां सावन परिशदेन तो सोडून दिला. हो लाब म्हळ्यार साहित्य संमेलनाचे माचये वयल्यान समेस्त कोंकणी साहित्यीक, उजवाडावपी, समिक्षक, वाचक आनी साहित्यमोगी हांच्या प्रतिनिधींचो सामुहीक आवाज काडपाचे मांडणेचो. ही मांडणी म्हळ्यार संमेलनान मानून घेतिल्ली थारावणीं वा एका परस अदीक थारावण्यो.



अ.भा. कोंकणी परिशद दर दोन वर्सांनी परिशदेचें अधिवेशन आनी दर दोन वर्सांनी साहित्य संमेलन घडोवन हाडटा. ताका लागून एका वर्सा परिशदेचें अधिवेशन आनी दुसऱ्या वर्सा साहित्य संमेलन अशें चक्र चालू उरता हें सगल्यांक खबर आसा. आदीं असल्या अधिवेशनांनी आनी साहित्य संमेलनांनी थारावण्यो पास करपाची रीत आसली. थारावणी केन्ना येवकाराची तर केन्ना निशेधाची; केन्ना मागणी करपाची तर केन्ना सुचोवणी करपाची आसताली. केन्ना मागणी आपणाकूच उद्देशून आसताली तर केन्ना सरकाराक वा एखाद्रे संस्थेक उद्देशून आसताली. परिशदेच्या मुंबय जाल्ल्या तिसऱ्या अधिवेशनांत थारावणी जाली, कोंकणीचे उदरगतीचो वावर करपाक मुंबय शारांत एक संस्था स्थापन करची. ही खबर १९४२ वर्सांतली. ते थारावणे प्रमाण मुंबय रोखडेंच कोंकणी भाशा मंडळ स्थापन जालें. उपरांत १९६२ वर्सा परिशदेचे आठवें आनी गोंयांतलें पयलें अधिवेशन मडगांवांत जालें. त्या अधिवेशनांत ज्यो थारावण्यो पास जाल्यो तातूंत एक आसली कोंकणीच्या वावरा खातीर गोंयांत एक संस्था स्थापन करपाची. हे थारावणेक धरून त्याच वर्सा गोंयचें कोंकणी भाशा मंडळ स्थापन जालें आनी ताचें कार्य सुरू जालें. ह्या अधिवेशनांतली आनीक एक थारावणी आशिल्ली साहित्य अकादेमीक उद्देशून. कोंकणीक स्वतंत्र भास म्हूण मान्यताय दिवची अशी मागणी ते थारावणेंत केल्ली. समेस्त कोंकणी भाशीक लोकांच्या प्रतिनिधींची ती सामुहीक मागणी हें मतींत घेवन साहित्य अकादेमीन कोंकणीचो विशय हातांत घेतलो आनी विचार-अभ्यास पुराय जातकूच १९७५ वर्सा अकादेमीच्या साबार मंडळान कोंकणीक स्वतंत्र साहित्यीक भास म्हूण मान्यताय दिली. थंय कोंकणी ही बोली काय भास हो वाद सोंपलो हो फुडलो इतिहास.

अश्यांच आनिकूय कांय थारावण्यां वरवीं कोंकणी भास, साहित्य आनी संस्कृताय हांच्या विशयांत बरीं कामां जाल्यांत; कांय वेळा अन्याय थांबला तर कांय वेळा अडचणी उण्यो जाल्यात. अशें घडपाक आनिकूय कारणां आसतीत; पूण अधिवेशनाची वा संमेलनाची थारावणी म्हळ्यार एक-दोन व्यक्तींचो न्हय; तर कोंकणीभाशीक समाजाचो सामुहीक आवाज हें म्हत्वाचें कारण थारलां.

मदीं केन्ना तरी परिशदेन थारावण्यो पास करपाचें बंद केलें. तेन्ना सावन अधिवेशनांत आनी साहित्य संमेलनांत थारावण्यो पास करिनात. अध्यक्ष बरे विचार मांडटा पूण ताचे एकल्याचे विचार आसतात. वेगळ्या वेगळ्या सत्रांनी विचार, मतां मांडप जातात आनी खूबशे बरेय आसतात; पूण ते विचार व्यक्ती मांडटा तिचे; तीं मतां जी व्यक्ती उक्तायता तिचीं. तो सामुहीक आवाज जायना. परिणामी, साहित्य संमेलन जावन वता; पूण संमेलनांत कितें थारायलें? कांय ना! कितें मागलें? कांय ना! कसलो निशेध केलो? कसलोच ना!

कसली खंत उक्तायली? कसलीच ना! कसलो निर्धार केलो? कसलोच ना!

अधिवेशनांत वा साहित्य संमेलनांत थारावण्यो पास करच्यो न्हय असो निर्णय परिशदेच्या ज्या कारभाऱ्यांनी घेतलो तांचोय ताचे फाटल्यान कसलोय विचार आसुंयेता, कसलेंय धोरण आसुंयेता. म्हाका दिसता, तो निर्णय योग्य नासलो, त्या निर्णयान संमेलनाचो वा अधिवेशनाचो ताळो बंद केलो, सामुहीक रुपान मत उक्तावपाची, मागणी करपाची आनी बरी वा वायट प्रतिक्रिया उक्तावपाची संद ना केली. आज अधिवेशनाक वा संमेलनाक सामुहीक ताळो ना. तांकां हेर तरांच्या कार्यावळीचें रूप आयलां. हाचेर परतून विचार-अभ्यास जावंक जाय तो सामुहीक ताळो अधिवेशनाक आनी संमेलानाक परत मेळूंक जाय. दुसऱ्या उतरांनी सांगचें जाल्यार, अधिवेशनांत आनी संमेलनांत थारावण्यो पास करून सामुहीक मन उक्तें करपाची वेवस्था जावंक जाय.

हाचीं कारणां अशीं -

- केंद्र सरकाराचे नॅशनल बूक ट्रस्ट हे संस्थेन कांय वर्सां कोंकणी भाशेंत पुस्तकां, अणकार, बाल साहित्य हांची उजवाडावणी केली. म्हायती दिवपी पुस्तकां उजवाडावप, तीं सवाय दरेन विकप आनी लोकांक पुस्तकां वाचपाची गोडी लावप हें नॅ. बू. ट्र. चें उद्‌दिश्ट आनी काम. कांय वर्सां कोंकणीक त्या कामाचो लाब मेळ्ळो. आज तें काम बंद पडिल्लें आसा. नॅ. बू. ट्र.चेर कोणाचोच आनी कसलोच दबाव ना. कोंकणीचें लुकसाण जाता तें दोळ्यांक स्पश्ट दिसता आसतनाय कोंकणी साहित्य संमेलन ओगी रावतलें? खंत उक्तावचें ना? कसलीच मागणी करचें ना?
- गोंयांत फाटलीं सुमार दोन वर्सां सरकाराचें राजभास संचालनालय आसून नाशिल्ले भाशेन जालां. गरजेचें अशें कसलेच काम थंय चलना. राजभास कायदो चालीक लावपाची आंखणी केल्ली आसा. कामाक आरंभूय जाल्लो. पूण सध्या संचालनालय पुरायेन पांगळें जावन पडलां. कसल्याच वावरांत प्रगती ना. हें संचालनालय दर वर्सा कांय पुस्तकां उजवाडायतलें. तें कामूय जायना. राजभास चालीक लावपाक कितलोसोच वावर करपाची गरज आसा. संचालनालय कितें करता? कांय ना! हे विशीं संमेलनाक जमतात त्या साहित्यिकांचें आनी हेर प्रतिनिधींक कांय पडून वचूंक ना अशें धरूंक फावना. तांचीं मतां आसतलीं, सुचोवण्योय आसतल्यो, पूण थारावणी नाशिल्ल्यान तिडक, खंत वा हेर कसलीय भावना सामुहीक तरेन वा ऊंच ताळ्यान उक्तायतले कशे? हाचो अर्थ असो जाता की कोंकणी भास आनी साहित्य हांचें लुकसाण जाता तें परिशदेचीं अधिवेशनां आनी संमेलनां पळयतात; पूण मोनीं रावतात. म्हजे नदरेन तीं कर्तव्याक चुकतात.
- गोवा कोंकणी अकादेमी तर आसून-नासून सारकी जाल्या. तिका योग्य पदाधिकारी नात आनी समित्योय नात. येवजणो आसात, पूण चालीक लागनात. कार्यालय आसा पूण कार्य ना. कोंकणी भास आनी साहित्य हांचें उपाट लुकसाण जालां आनी दर दिसा लुकसाणाची रास वाडत आसा. हे विशीं सगल्यांकूच खंत भोगता आनी तिडक येता. साहित्याचें लुकसाण जाता हे विशीं संमेलनाक कितें दिसता? थारावणे बगर तें कळपाक मार्ग ना.
- कला अकादमीन फाटलीं कांय वर्सां साहित्य पुरस्कार आडावन दवरल्यात. निर्णय घेवपा संबंदान अकादमीचें दुबळेपण आड येता. योग्य निर्णय घेतिल्लो आसा आनी ते चालीकूय लायिल्लो. पूण थारायिल्लें धोरण फुडें व्हरपाक अकादमी असमर्थ जाल्या. कोंकणी साहित्या विशींय कार्यावळी थंय जायनात. संमेलनाच्या प्रतिनिधींक हाची जाणविकाय आसा, खंतूय आसा; पूण ती सामुहीक रितीन उक्तावपाची मांडणी ना.
- ह्यो कांय देखी गोंय राज्यांतल्यो. ह्या राज्यांत सरकारी पांवड्यार कोंकणी भास, साहित्य आनी संस्कृताय हांचे विशीं आनिकूय अनास्था आसा. कांय प्रमाणांत राष्ट्रीय पावंड्यार आनी कर्नाटक, केरळ तशेंच महाराष्ट्र राज्यांनीय लोकांच्या पावंड्यार अनास्था आनी सरकारी पावंड्यार अन्याय आसुंयेता. संमेलनाचे माचये वयल्यान कांय जाण तांकां वाचा फोडटात. पूण तीं तांचीं वैयक्तीक मतां जातात; ती सामुहीक भावनेची प्रगटावणी जायना.

असल्या कारणांक लागून थारावण्यो पास करून, त्यो संबंधितांक धाडून, तांचे फाटल्यान लागपाची गरज आसा. सदांच वा रोखडेंच येस मेळटलेंच अशें ना. पूण 'केल्यार जाता' हो आमचोच न्हय; तर मनीस जातीचो आज मेरेनचो इतिहास. हें मतींत धरून एका मराठी संतान म्हळां: 'प्रसंगी वाळूचे कण रगडिता तेलही गळे'. आमी फकत नाल्ल फोडटले? कातली खावंचे नात आनी तेलूय काडचे नात?

कोंकणी परिशद स्थापन करपी म्हालगड्यांनी भोव बरी देख घालून दिल्ली. पयले परिशदेंत थारावण्यो पास केल्ल्यो, कांय कोंकणीभाशी लोकांक उद्‌देशून; तर कांय सरकाराक आनी संबंधीत संस्थांक उद्‌देशून. ती परंपरा बरींच वर्सां चल्ली. ती बंद जाल्या हें योग्य जावंक ना. हालींचीं अधिवेशनां आनी संमेलनां म्हाका अर्दकुटीं दिसतात. जें अधिवेशन वा संमेलन जावन वता ताची सामुहीक भावना कितें, ह्या प्रस्नाची जाप मेळना. हाका लागून, म्हाका दिसता, अधिवेशनांचो आनी संमेलनांचो भौशीक प्रभाव उणो जाला.

थारावण्यांच्या संबंदान कांय प्रस्न उपरासले म्हूण त्यो बंद केल्यो अशें समर्थन आसत जाल्यारूय तें शाणेपणाचें दिसना. दोश काडून उडोवंक जाताले, रीत बदलूंक जाताली. चलतना पांय दुखता म्हूण कोण तो कापून उडयता?

म्हाका दिसता, अधिवेशनां, संमेलनां आनी घडोवन हाडपी अ.भा. कोंकणी परिशद हांचो प्रभाव वाडयतले जाल्यार थारावण्यो पास करूंक जाय आनी तांच्या आदारान लोकां मदीं जाग्रुताय, आडखळी काडून उडोवप, अन्याय बंद करूंक लावप हीं कामां कोंकणी भास, साहित्य आनी संस्कृताय हांच्या संबंदान जावंक जाय.

''फोव ना कातली; सुको जागर!'' ह्या धोरणान फुडें गेले जाल्यार कांयच लाब जावचो ना अशें न्हय. लाब जातलो; पूण थोडो.

संपर्कः 9822163223

# २४ वे अखिल भारतीय कोंकणी साहित्य संमेलन फाटल्या यादींच्या संदर्भा सयत

कमलाकर म्हाळशी

अखील भारतीय कोंकणी परिशदेचें २४वें अखिल भारतीय कोंकणी साहित्य संमेलन शेनवार, २ फेब्रुवारी आनी आयातार ३ फेब्रुवारी २०१९ दिसांनी काणकोणां जावपाचें थरलें आनी दिसानदीस ६व्या कोंकणी लेखक संमेलनाच्यो यादी गाड जायत गेल्यो!... देशांतल्या विशेश करून गोंय, कर्नाटक, महाराष्ट्र, केरळ आदीं राज्यांतल्या कोंकणी समाजाक एका बावट्या खाला हाडपाच्या हेतून ॲड. माधव मंजुनाथ शणै शानभाग हांणी आपल्या कोंकणी मोग्यांच्या सांगातान जी अखील भारतीय लेखक परिशद कारवारच्या हिंदू हायस्कूलांत सुरू केल्ली, ते संस्थेन ६वें अखील भारतीय कोंकणी लेखक संमेलन शेनवार १४ आनी आयतार १५ फेब्रुवारी १९८१ दिसांनी काणकोणां चावडेर सेंट तेरेझा ऑफ जेजस हायस्कूलां लागीं सुरी रुखा मुखा वयल्या शेतांत (आतां रवीन्द्र भवनाची वास्तू उबी जाता थंय) घडोवन हाडिल्लें. विशेश म्हणल्यार शेतांत घाल्ल्या व्हडल्या माटवाक परिशदेचे संस्थापक 'माधव मंजुनाथ शणै शानभाग नगर' हें नांव दिल्लें.



अखील भारतीय कोंकणी परिशदेन २०१६ वर्सा उजवाडायिल्ल्या (संकलक आनी संपादक डॉ. जयंती नायक) 'अखील भारतीय कोंकणी साहित्य संमेलनाचीं अध्यक्षीय भाशणां' ह्या पुस्तकांत 'कोंकणी साहित्याचो गोवर्धन आमच्या भुजांचेर' ह्या माथाळ्या खाला नागेशबाब करमली हांणी बरयिल्ले प्रस्तावनेंत 'अखील भारतीय कोंकणी साहित्य परिशद' अखील भारतीय कोंकणी परिशद कशी जाली आनी 'अखील भारतीय कोंकणी लेखक संमेलन' 'अखील भारतीय कोंकणी साहित्य संमेलन' कशें जालें हाची बेसबरी विसकटावणी केल्या. आतां अशा बदलाचें इकरावें 'अखील भारतीय कोंकणी साहित्य संमेलन' पयलेच फावट कारवारा जाल्लें, हाचो अर्थ काणकोणचें सव्वें अखील भारतीय कोंकणी संमेलन 'सवें अखील भारतीय कोंकणी लेखक संमेलन' ह्याच नांवांन जाल्लें. त्यावेळार सेंट तेरेझा ऑफ जेजस हायस्कूलचे प्रिंसिपल रेव्हरंड फादर आल्वारु रेनातु मेंदीश हांकां संमेलनाचे येवकाराध्यक्ष म्हण वेंचून काडिल्लें. काणकोण कोंकणी कला केंद्राचे अध्यक्ष, तियात्र लेखक आनी काणकोणांतले कोंकणी चळवळीचे मुखेली आर. बी.एस्. कोमरपंत हांकां 'कार्याध्यक्ष' केल्ले.

आयोजन समितीचे बाकीचे पदाधिकारी अशे - उपाध्यक्ष- उपसरपंच सुभाष देसाय (त्या वेळार काणकोण नगरपालिका नाशिल्ली!), भांडारी- दिलीप गायतोंडे, सरचिटणीस- अनिल पै आनी मार्टिन मिनीन फेर्नांडीस, उपसरपंच सुभाषबाब सेंट तेरेझा ऑफ जेजस हायस्कूलांतले शिक्षक. (आज ते आमचेमदीं नात!) दिलीपबाब, अनिलबाब आनी मार्टिनबाब हेवूय शिक्षक. आज ते निवृत्त जाले तरी समाजीक-शिक्षणीक- संस्कृतीक वावरांत आसात.

ह्या ६व्या अखील भारतीय कोंकणी लेखक संमेलनाचे अध्यक्ष आशिल्ले प्रो. शांताराम अनंत हेदे. गोंयच्या दक्षीण शिक्षणीक विभागाचे विभागी शिक्षणाधिकारी, कोशकार, शिक्षणतज्ञ, लेखक, तशेंच संमेलनाचे मुखेल सोयरें श्री. माधव विठ्ठल कामत हे 'द् इलस्ट्रेटेड विक्ली ऑफ इंडिया'चे संपादक. नामनेचे पत्रकार तशेंच नामनेचे लेखक. गोंय राज्याचे आरोग्यमंत्री शेख हसन हरुण संमेलनाचे उद्घाटक... विशेश म्हळ्यार संमेलनाचे कार्यावळ - थारावणेचे प्रक्रियेंत कोंकणी बरोवपी आनी कार्यकर्त्यां वांगडाच कोंकणी भाशा मंडळाचे वावुरपी समितीक खाशेली सुवात दिश्टी पडटा. देखीक, कोंकणी भाशा मंडळाचे वावुरपी समितीचे वांगडी हे संमेलनाचे वावुरपी समितीचे वांगडी आसतात म्हणपाचें वाचूंक मेळटा. कोंकणी भाशा मंडळाच्या 'कोंकणी' म्हयनाळ्या मुखपत्राच्या वर्स : ९, मडगांव, १ जानेवारी १९८१, अंक : २ मदले बातमे प्रमाण कार्याध्यक्ष रमेश बी. एस्. कोमरपंत हांचे 'कार्याध्यक्ष' ह्या नात्यान संमेलनाच्या आपोवण्याचें जें पत्रक 'कोंकणी'त उजवाडा आयलां. तातूंत कोंकणी

> ''साहित्याचेंच न्हय तर कोंकणी भाशेचें पसून लुकसान करपी एका व्हड संकश्टाचीं चिन्नां सद्या दिसूंक लागल्यांत आनी तें संकश्ट म्हणल्यार इंग्लेज भाशेचें. ह्या सर्वव्यापी आनी सर्वभक्षी म्हायडोळाचें तोंड आमी चेंचून वडयलें ना जाल्यार तो कोंकणीच्या मुळारच आयल्या बगर रावचो ना.''



भाशा मंडळाची मडगांव कचेरी आनी काणकोणची चावडी कचेरी हांचो उल्लेख हें जोड-पत्रक म्हूण दाखयता, कोंकणी भाशा मंडळाचो सहभाग ते तेन्नाचे प्रक्रिये प्रमाण दिश्टी पडना, तो कित्याक ना हाचेर अंतर्मूख जावन विचार करपाक जाय! अखील भारतीय कोंकणी परिशदेचे 'बापूयपण' मानून घेवनूय ज्या ज्या राज्यांनी परिशदेचीं कोंकणी साहित्य संमेलनां आनी परिशदेचीं कोंकणी अधिवेशनां घेतात, त्या त्या राज्यांतल्या कोंकणी संस्थांचो पालव परिशद घेता, तसोच जोडपालव कोंकणी भाशा मंडळांचो/ अकादमींचो घेतलो जाल्यार आनीक बरें जातलें, अशें दिसता.

...२४व्या अखील भारतीय कोंकणी साहित्य संमेलनाचो 'येवकाराध्यक्ष' ह्या नात्यान समेस्त कोंकण्यांक (कोंकणी भाशिकांक) येवकार दितनाच १९८१ त म्हजो इश्ट - सांगाती आर. बी.एस्. कोमरपंत आनी म्हजे बरें मागपी स्वातंत्र्यसेनानी, साहित्यीक नागेशबाब करमली हांकां लागून हांव अधिकृतपणान कोंकणीच्या राजम्हालांत पावलों हें म्हाका मुद्दम नमूद करपाक जाय. त्या संबंदांतलो 'अभिमान' लेगीत उक्तावपाक जाय. ह्या संबंदांतली म्हाका उर्बा - उमेद दिवपी घटना लेगीत सांगपाकूच जाय. ती घटना अशी- बुधवार, ४ फेब्रुवारी १९८१ दिसा तीनसांजचे कात्रेर म्हणटात तशें ६व्या अखील भारतीय कोंकणी लेखक संमेलनांतल्या सांस्कृतीक कार्यक्रमांच्या आयोजनाच्या संदर्भांत नागेशबाब करमली, रमेशबाब कोमरपंता सांगातान आमच्या घरांत पावल दवरतात कितें आनी संमेलनाच्या दोन दिसांच्या सांस्कृतीक कार्यावळीची जापसालदारकी म्हजेर सोंपयल्या कितें!

विशेश म्हणल्यार लोककलेची बुनयाद आशिल्ले काणकोणकार ही जापसालदारकी सहजतायेन पेलतना सोयऱ्या लेखक - कोंकणी मोगींचीं मनां रिझयतात कितें, सगळेंच अजापाचें! १९८१ तलें तें लेखक संमेलन म्हज्या कलाकार इश्टां सांगातान, नव्यानूच बरोवपाक लागिल्ल्या इश्टां सांगातान - विद्यार्थ्यां सांगातान हांवें भोव खोशयेन अणभवलें, काळजा मेरेन रिचयलें - पचयलें! संमेलनाच्या पदाधिकाऱ्यां प्रमाणूच तेन्ना सरपंच आशिल्ले चंद्रकांत प्रभू, तशेंच बेनांदबाब, मानुयेल आनी सांगाती, लोककलेंतले - संगीतांतले दर्दी बी.डी.ओ. वामनबाब साखरदांडे, मोहनदास कामत, अजित पैंगीणकार, महेंद्र फळदेसाय, कितलेशेच मुख्याध्यापक, शिक्षक, विद्यार्थी हांचो तशेंच पैंगीण-माशें, श्रीस्थळ, वैजांवाडो, आमोणें, पाळोळें आदी गांवांतले लोककला पंगड, नाटकुल्यांचे पंगड हांणी सगल्यांनीच उमेदीन कार्यावळी केल्यो. माशें सावन 'चवथीचो चंद्र उदेलो', पणजेच्यान 'चपलाहार' पावलो! नमन, धालो, फुगडी, गोफ, देखणी, घोडेमोडणी, दिवल्यांनाच! लोकगीतां-लोकनाच, लोकनाट्याचो संगम. तळपण-गालजीबाग न्हंयांचो संगम काणकोणच्या दर्या-देगांनी जातलो तसो!

...संमेलनाच्या उद्‌घाटनाक त्या वेळा वयले गोंय सरकाराचे आरोग्यमंत्री शेख हसन हरुण जाल्यार समारोपाक गोंय, दमण, दीव विधानसभेचे उपसभापती वैकुंठ देसाय अध्यक्ष म्हूण हजर आशिल्ले. भाशणां, चर्चासत्रां रंगलीं. मात्त संमेलनाध्यक्षांच्या भाशणांतल्या कांय मुद्‌द्यांनी खऱ्यांनीच अंतर्मूख करपाक लायलें. आयजूय तांचे ते विचार अस्वस्थ करतात! आयच्या संदर्भात लागू पडटां तो विचार हांगा दिवप चड समा जातलो. भाशणाच्या निमणें कडेन 'कोंकणी वयलें संकश्ट' ते आमचे मुखार दवरतात... इतलो वेळ हांवें कोंकणी साहित्या विशीं चर्चा केली. पूण ह्या साहित्याचेंच न्हय तर कोंकणी भाशेचें पसून लुकसान करपी एका व्हड संकश्टाचीं चिन्नां सद्या दिसूंक लागल्यांत आनी तें संकश्ट म्हणल्यार इंग्लेज भाशेचें. ह्या सर्वव्यापी आनी सर्वभक्षी म्हायडोळाचें तोंड आमी चेंचून वडयलें ना जाल्यार तो कोंकणीच्या मुळारच आयल्या बगर रावचो ना. हें आमी सगळ्यांनी वळखून आतां सावनच हे अरिश्ट पयसावपाचे नदरेन तयारेक लागूंक जाय...

...शेनवार २ आनी आयतार ३ फेब्रुवारी २०१९ दिसांनी काणकोणांत राजबाग (तारीर) मॉलिमा हॉटेलाच्या संकुलांत जावपी २४व्या अखील भारतीय कोंकणी साहित्य संमेलना खातीर सगल्यांक मायेमोगाचें आपोवणें दितनाच आयोजन समिती वरवीं सगल्याक विश्वास आनी खात्री दितां - उक्तावणाची कार्यावळ, वेगळीं-वेगळीं सत्रां, सांस्कृतीक कार्यावळ, समारोपाची कार्यावळ तशेंच जेवण खाणाची आनी रावपाची सोय आदी सगळेंच 'बेस्स बरें' करपाचो यत्न आसतलो. बरें गोंय. जय कोंकणी.

संपर्क: 8411085764



# कोंकणी चळवळीचो 'साहित्यीक मंच'

डॉ. हनुमंत चोपडेकार

कोंकणी ही इण्डो-येवरोपी भासकुळांतली आर्विल्ली इण्डो-आर्यन भास. तिचो उगम *संस्कृत-प्राकृत-अपभ्रंश* ह्या प्रवाहांतल्यान वा महाराष्ट्री प्राकृत फांट्यांतल्यान मराठी हे तिचे भयण भाशे वांगडा आठव्या ते धाव्या शेंकड्या मजगतीं जाला. बाराव्या शेंकड्या मेरेन लोकसाहित्य, लोकवेद आनी मौखीक परंपरेंतल्यान ती मुखार सरली जाल्यार पंदराव्या शेंकड्या मेरेन ती लिखीत रूपांत अवतरपाक लागली. क्रिस्ती धर्मगुरूंनी धर्मीक कार्यां खातीर तिचो उपेग केलो तातूंतल्यान रोमी लिपयेंतलें कोंकणी क्रिस्ती-धर्मीक साहित्य आनी कोश-वाङ्मय तयार जालें. ह्याच काळांत *कानारी, ब्रांम्हानी, कोंकानी, कोंकणी* अशे तिचें नामकरण जायत गेलें. काळांतरान धर्मीक आनी राजकी अरिश्टांक लागून कोंकणीक नानपयत करपाचें सत्र पुर्तुगेज शासनान आरंभलें. इकुणिसाव्या शेंकड्याच्या दुसऱ्या अर्दांत कोंकणीचें पुनरुत्थान करचे नदरेन यत्न जावन, मुखार तिचे विर्शी एक वैचारीक भुमिका तयार जाली. भारतीय स्वातंत्र्याचे फाटभुंयेर १९३९ वर्सा कोंकणी भाशिकांचें संघटन उबें जावन कोंकणीची राजकी स्वरूपाची चळवळ रुजवणाक आयली. १९ डिसेंबर १९६१ ह्या दिसा गोंय मेकळें जाले उपरांत कोंकणीची अस्मितायेची चळवळ सुरू जाली. ती मुखेलतायेन कोंकणी-मराठी भाशीक संघर्शांतल्यान फुडें सरत रावली.

आयज कोंकणी चळवळीचें संघर्श पर्व काबार जावन तिचें विधायक पर्व आरंभ जालां. हे फाटभुंयेर अखील भारतीय कोंकणी परिशदेची तशेंच हेर पालक संस्थांची जापसालदारकी वाडल्या. परिशदेचो विचार केलो जाल्यार, अधिवेशन आनी साहित्य संमेलन हे दोन मुखेल उपक्रम ती घेता. ह्या उपक्रमांतल्यान कोंकणीचें विधायक कार्य तडीक व्हरपाक परिशद यशस्वी जाल्या काय किते? जावंक ना जाल्यार कित्याक जावंक ना? परिशदेन हें अधिश्ठान पुरें करपाक नवे गडे तयार केल्या व्हय? केल्या जाल्यार ताचो परिणाम कित्याक दिसना? कोंकणी चळवळीची मुखावयली दिका किते?.... अश्या साबार प्रस्नांच्यो जापो सोदून एकंदर कोंकणी चळवळीक (समाजीक, सांस्कृतीक आनी साहित्यीक) योग्य दिका दाखोवपाची गरज उपरासल्या. प्रस्तूत प्रपत्रांत ह्या प्रस्नांचेर उजवाड घालपाचो हो यत्न.



**कोंकणी चळवळीची फाटभूंय आनी विशय प्रवेश**

कोंकणी साहित्य हें कोंकणी चळवळीचें बायप्रॉडक्ट. कारण कोंकणी भास आनी कोंकणी संस्कृताय हांचे वरवीं कोंकणी मनशाक एकठांय हाडपी भाशीक चळवळींतल्या साहित्यीक चळवळीचो उगम जाला. जायते अल्पगिन्यानी बुदवंत कोंकणीचे साहित्यीक चळवळीकूच कोंकणी भाशीक चळवळ मानतात. मुळांत कोंकणी चळवळ केन्ना, कशी आनी कोणी आरंभ केली हाचेर अभ्यासकांचीं विंगड विंगड मतां आसात. कोंकणी चळवळ म्हणजे नक्की किते? ह्या प्रस्नां कडेनूय आमी जायते फावटी भावनीक नदरेन पळयतात आनी प्रत्यक्ष मुद्दो कुशीक उडयतात.

खरें म्हणल्यार, कोंकणी चळवळीच्या इतिहासाची तशी शास्त्रशुद्ध मांडणी वा चिकित्सक मोलावणी जावंक ना देखून हे मतभेद दिसतात. सर्वसादारणपणान शणै गोंयबाबान कोंकणी चळवळ आरंभ केली अशें मत कोंकणी भाशेचो अभ्यासक, विद्यार्थी आनी शिक्षक मांड्या. पूण, चळवळ ह्या संकल्पनेचो सिद्धांतीक वा शास्त्रीय विचार केलो आनी 'भाशीक चळवळीच्या निकशां'चेर कोंकणीचीं साबार इतिहासीक स्थित्यंतरां तपासलीं जाल्यार : 'शणै

(अखील भारतीय कोंकणी परिशेचें २४ वें अखिल भारतीय साहित्य संमेलन ०२ आनी ०३ फेब्रुवारी २०१९ ह्या दिसांनी काणकोण हांगा घडटा, संमेलनाच्या साबार आयामांचेर भाश्य करपी हो खाशेलो लेख)

गोंयबाबान कोंकणी चळवळीचो आरंभ केलो' अशें म्हणप सारकें जावंक शकना. कारण शणै गोंयबाब हे कोंकणी मनशाच्या हड्ड्याक स्वभाशे वरवीं जाग हाडपी विचारवंत, संशोधक तशेच साहित्यीक. तांणी आपल्या संशोधनात्मक, व्याकरणीक आनी साहित्यीक वावरांतल्यान 'कोंकणी भास' 'मराठी' परस वेगळी आनी स्वतंत्र कशी आसा ते दाखोवन कोंकणीची 'वैचारीक चळवळ' चलयली अशें म्हणू येता.

एका काळार कोंकणांतल्या इतिहासीक स्थित्यंतरां लागून कोंकणी मनीस आपलेच मायभाशेक हिणसायतालो. गोंयचो क्रिस्तांव समाज पुर्तुगेज संस्कृतायेक लागीं करतालो जाल्यार भौसंख्य हिंदू समाज जिबेर आनी अंतर्मनांत कोंकणी घोळटनाय मराठीचो पाखो घेवन तिका आपली धर्माची, देवघरांतली, शिक्षणाची आनी दिसपट्ट्या व्यवहाराची भास म्हूण वेंगावन बशिल्लो. शणै गोंयबाबान पयलेच फावटीं गोंयच्या हिंदू घटकाक कोंकणीचो दिश्टावो दिलो आनी कोंकणी खातीर वावर करपी नवी पिळगी घडोवपाक वैचारीक अधिश्ठान घातलें. ते खातीर गोंयांतले मराठी चळवळींतले नेते तांकां 'गोमन्तकातील पहिला घरभेदी हिंदू कोंकणीवादी' ह्या नांवान हिणायताले. शणै गोंयबाबान आपल्या कथा, कादंबरी, नाटकांतल्यान वा भाशाशास्त्रीय वावरांतल्यान हिंदू, क्रिस्तांव आनी मुस्लीम धर्मांत वांटून गेल्ल्या कोंकणी मनशांक एका धाग्यान बांदून हाडपाचो यत्न केलो.

तांचे आदल्या काळांत सुमार १५व्या शेंकड्यांत कृष्णदास शामाचें गद्य कोंकणी लेखन, १६ व्या १७व्या शेंकड्यांत पुर्तुगीज मिशनऱ्यांचें धर्मीक साहित्य, १८५८ वर्सा व्हिसरॉयचे चिटणीस म्हूण गोंयां आयिल्ले डॉ. ज्योंकीं एलियोदोरु कून्य रिवार हांचो कोंकणी भाशेचो सखोल इतिहास मांडपी 'Ensaio Historico da Lingua Concani' हो कोंकणी भाशेच्या इतिहासाचो प्रबंध, राफायल पासेट्टी वा फ्रान्सिस्कु शावियेर द सांत ऍना, पियु नोरेन्या, डॉ. फ्रान्सिस लुईश गोमिश, मों. सेबाश्तियांव रुदोल्फ दोल्गाद, एदवार्द जुजे ब्रुन सौज, मिगेल विशेंत दे आब्रेव, आंजेलो फ्रान्सिस्को शावियर माफेय, जेरॉम आंतोनि साल्दाना सारक्यांनी कोंकणी भास आनी साहित्याची उपाट सेवा करून तिची व्हडविकाय वाड्यली. पूण स्पश्ट बरोवपाचें जाल्यार प्रत्यक्षांत कुन्य रिवार, शणै गोंयबाब, दाल्गाद, माफेय आनी समकालीनांच्या वावराक लेगीत कोंकणी चळवळीचो आरंभ म्हणप चुकीचें जातलें. कारण तांचो तो वावर म्हणजे निश्चीपणान कोंकणी खातीरची 'तळमळ' आसली. तिका चळवळ म्हणप सारकें न्हय.

### भाशावार प्रांत रचना आनी कोंकणीची संघटनात्मक चळवळ

कोंकणीचे संघटनात्मक चळवळीचो खरो आरंभ 'अखील भारतीय कोंकणी परिशदे'च्या स्थापणुकेन, कारवार ०८ जुलय १९३९ ह्या दिसा जालो. कारवारचे माधव मंजुनाथ शानभाग हांणी फुडाकार घेवन परिशदेचें पयलें अधिवेशन घेतलें. 'कोंकणी भाशे वरवीं एकसंघ कोंकणी समाज आनी कोंकणी वरवीं त्या समाजाची उदरगत' ह्या शणै गोंयबाबांच्या विचाराची सांगड घालुनूच धर्मभेद, जातीभेद, प्रांतभेद, बोलीभेद अशा असमाजीक तत्वांक कुशीक सारीत समस्त कोंकणी समाजाक एकसंघ बांदपी एक संस्थात्मक, सिद्धांतीक तशीच अधिकृत बसका 'कोंकणीक' फाव जाली ती ह्याच परिशदेंतल्यान. ते खातीर अखील भारतीय कोंकणी परिशदेची स्थापणूक हो कोंकणी चळवळीचो खरो आरंभ मानपाक जाय. हो आरंभ आदले वैचारीक चळवळीचे बुनयादीर उबो रावला हेंवूय तितलेंच खरें.

१९२० वर्सा भारतीय स्वातंत्र्य चळवळीचें नेतृत्व करपी अखील भारतीय कॉंग्रेसच्या नागपुरांत जाल्ल्या अधिवेशनांत भाशावार प्रांत रचनेची संकल्पना पयले फावट अधिकृत रितान मुखार आयल्ली. ते काळांत सबंद भारत भर महाराष्ट्र, कर्नाटक, आंध्र, ओरिसा, सिंध आदी. भाशावार प्रांतांची मागणी जोर धरपाक लागिल्ली. तशेंच, १० ऑगस्ट १९२८ दिसा सर्वपक्षीय परिशदेन (All Parties Conference) नेमिल्ले मोतीलाल नेहरू हांचे अध्यक्षते खाला भारतीय संविधानाची रचणूक करपाक नेमिल्ले समितीन म्हणजेच सर तेज बहादूर सप्रू, सर अली इमाम, सुभाषचंद्र बोस हांच्यांनी एक स्वतंत्र मसुदो तयार करून भाशीक प्रांत निर्मणेचेर आपल्या खाशेल्या अहवालांत आपलीं मतां ब्रिटीश सरकाराक सादर केल्लीं. तशेंच १९३७ वर्सा ब्रिटीश सरकारान पुराय देशांत प्रांतीय विधानसभेच्यो वेंचणुको घेतिल्ल्यो. त्या प्रांतीक विधानसभांनीय होच भाशेक धरून राज्य निर्माण जावंचीं हो विचार वयर सरतालो. फाल्या भारत स्वतंत्र जातकच राजा महाराज्यांची संस्थानां काबार जावन लोकशाय येतली आनी नवी भाशीक प्रांतरचना जावंची असो विचार विचारवंतां मदीं पसरिल्लो. स्वतंत्र भारतांतली प्रांतरचना भाशीक तत्वांचेर आदारून आसची अशें खासा महात्मा गांधींकूय दिसतालें. म्हणटकच सभावीकपणान संयुक्त आंध्र, संयुक्त कर्नाटक, महागुजरात, संयुक्त बंगाल, संयुक्त महाराष्ट्र अशा प्रांताची मागणी थळाव्या लोकां कडल्यान त्यावेळार येवंक लागिल्ली. म्हणजेच, भाशावार प्रांतरचना हो त्या वेळा वयल्या जनमानसाचो भावनीक आनी व्यवहारीक हावेस आसलो.

हे विशीं ज्ञानपीठ पुरस्कार जैतिवंत साहित्यीक रवीन्द्र केळेकार कोंकणी चळवळीक आरंभा सावन राजकी हावेस आशिल्लो हें मान्य करता. कोंकणी चळवळी विशीं *भाषिक संघर्षाचे समाजशास्त्र* ह्या अरुणा दुभाषी संपादीत मराठी ग्रंथांत ते बरयतात -

*''कोंकणीची चळवळ मुळांत साहित्यीक चळवळ नव्हती. ती केवळ साहित्यीक चळवळ आसती तर माधव मंजुनाथ शानभाग या चळवळीत पडले नसते. शानभाग साहित्यीक नव्हते. ते कोंकणीचे एक पागल भक्त होते. आपल्याला लागलेले हे कोंकणीचे वेड साऱ्या कोंकणी समाजाला लावण्यासाठी ते वसई पासून कोचीन पर्यंत एकसारखे हिंडले होते.'' (भा. सं. स., २००८-९२)*

एक भास (कोंकणी), एक लिपी (देवनागरी) एक समाज (कोंकणी समाज) आनी एक प्रांत (कोंकणी प्रांत) घडोवन हाडचे खातीर तांणी

विंगड विंगड राज्यांनी वा वाठरांनी शिंपडून पडिल्ल्या कोंकणी मनशांक एका वेदीचेर हाडपाचो यत्न कोंकणी चळवळीन केलो. ब्रिटीशा वांगडाच पुर्तुगेज सत्ता हे भारत भुंयेंतल्यान नानपयत जातलीच देखून आतां कोंकणी समाज एकठांय जावपाक जाय ह्या हावेसान माधव शानभागान कोंकणी मनशाक संघटीत करपाचें कार्य सगळ्यांत पयलीं हातांत घेतलें. तांच्याच अथक परिश्रमांतल्यान ०८ जुलय १९३९ दिसा कारवारांत कोंकणी भाशा मंडळाची स्थापणूक करून उपरांत अखील भारतीय कोंकणी परिशदेचें पयलें अधिवेशन घेवन तांणी कोंकणी चळवळीची बुनयाद घातली.

**अखील भारतीय कोंकणी परिशदेचे मुखेल दोन उपक्रम**




**१. अखील भारतीय कोंकणी अधिवेशन**

'ऑल इंड्या कोंकणी परिशद ह्या नांवान घडिल्ले राष्ट्रीय पांवड्या वयले संस्थेचें पयलें अधिवेशन ०८ आनी ०९ जुलय १९३९ अशे दोन दीस चल्लें. ताचे येवकाराध्यक्ष माधव मंजुनाथ शानभाग तर विश्वनाथ पांडुरंग प्रभू अध्यक्ष जावन आशिल्ले. आतां मेरेन १९३९ ते २०१७ मजगतीं वट्ट ३१ अधिवेशना जाल्यात. तातूंत कोंकणी भास, कोंकणी साहित्य, कोंकणी संस्कृती आनी कोंकणी समाज अश्या साबार विशयांचेर चर्चा जावंक पावल्या. साबार धर्मांनी, लिपयांनी आनी प्रांतांनी शिपडून गेल्ल्या कोंकणी मनशाक एक भास, एक लिपी, एक साहित्य, एक समाज ह्या तत्वां वरवीं एकठांय हाडून सक्षम असो कोंकणी समाज घडोवचो संकल्प थंय घेवप जालो. सांगपाचें म्हणल्यार सगळ्यांत पयलीं संयुक्त कोंकणी प्रांताचो हावेस परिशदेच्या पयल्या अधिवेशनांत त्याच पयल्या अधिवेशनांत मुखार आयला.

ह्या अधिवेशनाच्या हावेसाक विंगड विंगड धर्मांतल्या, विवीध प्रांतांतल्या कोंकणी मनशाक एकठांय हाडपी भारताच्या इतिहासांतलो तो पयलोच संघटीत प्रयत्न आसलो. ह्या यत्नाक विरोध जालो तो कोंकणीक आपली बोली मानपी आनी गोंयाक आपलोच भुभाग समजुपी मराठी म्हालगड्यां कडच्यान. मराठी विव्दानांनी आनी खासा करून साहित्यिकांनी ह्या मागणेक नेटान विरोध केलो. स्वताक मराठी-प्रेमी म्हणपी कांय गोंयकार आनी मराठी साहित्यीक तातूंत सहभागी आसले. ह्याच परिस्थितींत कोंकणी मराठी भाशेचो संघर्श आरंभ जालो. त्या संघर्शांत अखील भारतीय कोंकणी परिशदेन कोंकणी चळवळीक Friend Philosopher & Guide जावन मार्गदर्शन केलें. १९३९ साकून तें कार्य नेटान चालू आसा.

१९७४ वर्सा परिशेदन 'ऑल इंड्या कोंकणी परिशद' ह्या नांवान बदल करीत 'ऑल इंड्या कोंकणी साहित्य परिशद' अशें नांव धारण केलें. उपरांत 'साहित्य' हें उतर गाळून १९९० वर्सा 'ऑल इंड्या कोंकणी परिशद' अशें नांवान घेवप जालें. २००६ वर्सा तिची ह्याच नांवान पुनर्रनोंदणी जाली. परिशदेन कोंकणी भास, कोंकणी साहित्य, कोंकणी संस्कृताय, कोंकणी शिक्षण, कोंकणी मनीस आनी एकंदर कोंकणी समाजाचे उदरगतीचें सपन पळयलें आनी तें प्रत्यक्षांत हाडचे पासत साबार कार्यावळी वा उपक्रम राबयले. देखीक -

१. अखील भारतीय कोंकणी अधिवेशन
२. अखील भारतीय साहित्य संमेलन
३. कोंकणी म्हालगड्याच्यो यादस्तीक कार्यावळी
४. कोंकणी तरणाट्यां खातीर भाशीक, साहित्यीक आनी सांस्कृतीक उपक्रम
५. विद्यार्थ्यां खातीर शिक्षणीक आनी हेर मार्गदर्शन करपी कार्यावळी.

तेभायर कोंकणी नाटकाक, कोंकणी तियात्राक, कोंकणी लोकसाहित्याक, कोंकणी लोकवेदाक, कोंकणी लोकनाट्यांक उर्बा आनी राखण दिवन कोंकणी मनशाची सर्वांगीण उदरगत सादप ह्यो मोखी दोळ्या मुखार दवरून परिशद कार्य करता. १९९१ वर्सा परिशदेन आपल्या कार्याची व्याप्ती वाडोवपाक आरंभ केलो. ते प्रमाण १९९२ साकून 'अखील भारतीय कोंकणी अधिवेशन' आनी 'अखील भारतीय कोंकणी साहित्य संमेलन' अशे दोन वेगळे उपक्रम दर दोन वर्साच्या अंतरान राबोवपाक कॉमेस जालें. ताचे पयलीं कोंकणी अधिवेशानांतूच कोंकणी भास, साहित्य, संस्कृती, शिक्षण अशे सगळेच विशय वांगडाच हाताळप जातालें.

**२. अखील भारतीय कोंकणी साहित्य संमेलन**

अखील भारतीय कोंकणी परिशदेचो दुसरो म्हत्वाचो उपक्रम म्हळ्यार, अखील भारतीय कोंकणी साहित्य संमेलन. हें कोंकणी साहित्य संमेलन तशें १९६८ वर्सा साकून आयोजीत जातालें. पयलीं 'कोंकणी बरोवप्यांचो एकवट' आनी उपरांत १९७५ सावन 'कोंकणी भाशा मंडळ' ह्यो गोंयच्यो संस्था 'कोंकणी लेखक संमेलना' घडोवन हाड्यल्यो. १९९० मेरेन कोंकणीच्या ह्या संघटनांनी वट्ट धा 'लेखक संमेलनां' आयोजीत केल्लीं. कोंकणी साहित्यिकांक एका माचयेर हाडून तांच्या साहित्याची उस्तवारी करप, कोंकणी लेखक आनी कवींक सन्मानीत करप, कोंकणी बरोवप्यांचो एकवट साधप, नवोदीत कथा-कवींक मार्गदर्शन करप, वाचन संस्कृतीक चालना भेटेवप आनी एकंदर कोंकणी साहित्याक पोसवण दिवप हे साबार हावेस बाळगून हीं साहित्य संमेलनां साबार अडचणींचेर मात करीत आयोजीत जातालीं.

ह्या कोंकणी साहित्य संमेलनाक राष्ट्रीय स्वरूप दिवचे पासत आनी पुराय देशांत शिपडून गेल्ल्या समस्त कोंकणी साहित्यिकांक एका वेदीर हाडचे पासत साहित्य संमेलनाचें आयोजन 'अखील भारतीय कोंकणी परिशद' करपाक लागली. सभावीकपणान पयलीं १९६८ वर्सा सुरू जाल्ली आनी उपरांत १९९२ वर्सा साकून अखील

भारतीय कोंकणी परिशेदच्या बावट्या खाला परत एक फावट कारवार हांगा जाल्ल्या '११व्या अखील भारतीय कोंकणी साहित्य संमेलना' साकून ती परंपरा आयज मेरेन चालू आसा.

### अखील भारतीय कोंकणी साहित्य संमेलनां

| संमेलन | संमेलनाची तारीख | सुवात | संमेलनाध्यक्ष | उद्‌घाटक |
|---|---|---|---|---|
| १. | २३ जून १९६८ | मडगांव | लक्ष्मणराव सरदेसाय | -- |
| २. | १५,१६, नोव्हें. १९६९ | पणजे | रवीन्द्र केळेकार | गोपाळ आपा कामत |
| ३. | १५,१६, फेब्रु. १९७५ | मडगांव | उदय भेंब्रें | देवराय बेंदूर |
| ४. | ०७, ०८ मे १९७७ | म्हापशें | फा. आंतोनियु पेपैर | डॉ. नामवर सिंह |
| ५. | ०२ ते ०४ मार्च १९७९ | मडगांव | श्रीपाद रघुनाथ देसाय | भवानीप्रसाद मिश्र |
| ६. | १४, १५ फेब्रुवारी १९८१ | काणकोण | प्रा. शांताराम हेदे | माधव विठ्ठल कामत |
| ७. | १९, २० फेब्रुवारी १९८३ | कुडचडें | फा. स्वामी सुप्रीय | मागरिट आल्वा |
| ८. | ११, १२ मे १९८५ | कुडचडें | दामोदर मावजो | रामानंद सागर |
| ९. | १६, १७ मे १९८७ | सांखळी | चा.फ्रा. द् कॉश्त | प्रा. एम. तोंबी सिंग |
| १०. | १७, १८ फेब्रुवारी १९९० | पेडणें | गुरुनाथ केळेकार | फा. आंतोनियु पेरैर |
| ११. | ०८, ०९ फेब्रुवारी १९९२ | कारवार | एडवीन जे.एफ. डिसौझा | शिवराम कारंत |
| १२. | ०५, ०६ मार्च १९९४ | म्हापशें | वी. वी. बळीगा | फा. मोरेन द सौज |
| १३. | २५, २६ ऑगस्ट १९९६ | कोच्ची | नागेश करमली | एम्. टी. वासुदेवन |
| १४. | २३,२४,२५ मार्च १९९८ | मडगांव | शीला कोळंबकार | भास्कर चंदावरकार |
| १५. | २१, २२ एप्रील २००१ | पर्वरी | गोकुळदास प्रभू | गुलजार |
| १६. | १०, ११ मे २००३ | वास्को | पी. जी. कामत | मे.ज. हिमतसिंग गील |
| १७. | १९, २० फेब्रुवारी २००५ | कुमठा | महाबळेश्वर सैल | डॉ. चंद्रशेखर कंबार |
| १८. | ०४, ०५, ०६ मे २००७ | कुडचडें | जे. बी. सिक्वेरा | दिनेश मिश्रा |
| १९. | ०७, ०८ फेब्रुवारी २००९ | कुंदापूर | रमेश वेळुस्कार | दयानंद पै |
| २०. | २९, ३०, एप्रील १ मे ११ | सदाशिवगड | मीना काकोडकार | डॉ. गिरिराज किशोर |
| २१. | १५,१६,१७ फेब्रुवारी १३ | मडगांव | आर. एस. भास्कर | डॉ. गिरीश कर्नाड |
| २२. | १३, १, १५ फेब्रुवारी १५ | कोझीकोड | प्रकाश पाडगांवकार | सी. राधाकृष्णन |
| २३. | १०, ११, १२ मार्च १७ | नवी दिल्ली | एन. शिवदास | मृदुला गर्ग |
| २४. | ०२, ०३ फेब्रुवारी १९ | काणकोण | मेल्वीन रोड्रीगस | किशोर कदम |

अखील भारतीय कोंकणी परिशदेच्या मार्गदर्शनान, कोंकणी भाशा मंडळ आनी हेर कोंकणी पालक संस्था तशेंच कोंकणी सेवा संस्थाच्या तेंक्यान अखील भारतीय कोंकणी साहित्य संमेलना १९६८ साकून सेगीतपणान चलत आयल्या. ह्या साहित्य संमेलनांतल्यान एकंदर कोंकणी साहित्याची दशा आनी दिशा निर्देशीत करपाचो यत्न जाला आनी जायत आसा. वयल्या तक्त्या वयल्यान साहित्य संमेलन पुराय कोंकणी वाठारांत भोंवडी करीत आयलां ताचोय सोद लागता. ते भायर विंगड विंगड साहित्य प्रकार हाताळपी कोंकणी साहित्यिकांक अध्यक्षपदाचो भौमान लाबला हेंवूय नदरेक भरता. कोंकणी संमेलनाक आयिल्ल्या उद्घाटकांची वळेरी पळयल्यार भारतीय साहित्यीक मळावयल्या दिग्गजांचो आशिर्वाद आनी सहवास ह्या संमेलनाक फाव जाला ताचीय नोंद घेवपाक मेळटा. पूण ह्या वयर उल्लेख केल्ले मुद्दे सोडले जाल्यार हेर जायते प्रस्न निरूत्तरीत उरतात. देखीक - प्रत्यक्षांत ह्या संमेलनान काळाची गरज आशिल्ल्या साहित्य-संस्कृतायेची बुनयाद घातल्या व्हय? डिजिटल युगांत शेणपी वाचन संस्कृतीचो हुस्को संमेलनाच्या वेदीक आसा व्हय? नव्या उदयमुख बरोवप्यांक हें संमेलन फाव तें व्यासपीठ दिता व्हय? प्रकाशन संस्था आनी वितरण व्यवस्थेचें सोयरसूतक संमेलन धरता व्हय? पद्य साहित्याच्या हुंवारांत व्हांवून वचपी गद्य साहित्याच्या पनेळाची चिंता संमेलनाच्या जाळवणदारांक आसा व्हय? कोंकणी साहित्य-समिक्षा आनी साहित्य-संशोधनाचें दालन रितेंच उरला ताका उर्बा दिवपाची येवजण संमेलना मुखार आसा व्हय? आनी अध्यक्षपद हें एक शोभेचें बावलें कशें फकत दोन दिसांकूच मिरोवपाचें आसता व्हय? पुराय दोन वर्सांच्या काळखंडाची जापसालदारकी स्विकारून तो साहित्यीक मळार नवक्रांती घडोवं शकना व्हय????.....

वयल्या साबार प्रस्नांतल्यान तरेकवार आव्हानां उबीं रावतात. तीं आव्हानां अखील भारतीय कोंकणी परिशदेच्या जाळवणदारांनी साहित्य संमेलनाच्या वेदीचेर हाताळपाची सामकी गरज आसा. त्या आव्हानांची उतवारी सकयल केल्या.

**कोंकणी साहित्य संमेलना मुखावयलीं आव्हानां :**

कोंकणी साहित्याची खरी वळख तिचे प्रादेशिकतायेंत आसत, पूण तेच प्रादेशिकतायेचीं मुळां घट्ट धरून वैश्वीक संदर्भ अविस्कृत करपाची तांक तिणें सिद्ध करूंक जाय. कोंकणी साहित्यांत हें जावपाक लागला. आयच्या ह्या तंत्रज्ञानाच्या वा टॅक्नोलॉजीच्या सुपर-ड्युपर डिजिटल युगांत सगळ्याच भासांतल्या साहित्या मुखार शेंकड्यांनी आव्हानां उबीं रावल्यात. कोंकणी साहित्यांच्या निमतान त्या आव्हानांचो सोद घेवपाचो हो ल्हानसो यत्न. अखील भारतीय कोंकणी संमेलनाच्या वेदीचेर तांचेर चर्चा जावंची ही अपेक्षा.

**अ. भा. कोंकणी साहित्य संमेलना मुखा वयलीं आव्हानां:**




**१) दर्जेदार कोंकणी साहित्याची निर्मणी करपाचें आव्हान :**

हालींसराक कोंकणी साहित्याची एक नवी वळख पुराय संवसाराक जावंक लागल्या. २१व्या शेंकड्यांत कोंकणींतल्या कथनात्मक साहित्याक राष्ट्रीय पांवड्यावयले प्रतिशठेचे पुरस्कार फाव जाल्यात. कोंकणी नाटकान राष्ट्रीय नाट्य महोत्सवांनी कोंकणी नाटकाचो नवो मानदंड प्रस्तापीत केला. रवीन्द्र केळेकार, दामोदर मावजो, पुंडलीक

नायक, महाबळेश्वर सैल ह्या बरोवप्यांनी प्रादेशिकतायेच्यो शिमो हुपून कोंकणी साहित्याची जैतिवंत घुडी राष्ट्रीय स्थरार हुबयल्या. ह्या शेंकड्याच्या आरंभा पासून कोंकणी साहित्य बऱ्याच व्हड प्रमाणांत बरोवन तशेंच वाचून जावंक लागलां. फकत संख्यात्मक न्हय तर गुणात्मक नदरेंतूय तें फुलपाक लागलां.

पुराय देशाक सतोवपी विगंड विंगड समाजीक, धर्मीक, सांस्कृतीक, राजकी विशय कोंकणी साहित्यांत येवप काळाची गरज आसा. धर्मीक सहिष्णुताय आनी संविधानीक मानदंड ह्या साबार मुद्द्याक स्पर्श करपी कोंकणी साहित्य निर्माण जावप म्हत्वाचें. कोंकणी चळवळ ही एक सेक्युलर चळवळ. पुराय देशाक कोंकणीची आनी पर्यायान कोंकणी साहित्याचे गुणवत्तेची झलक मेळ्ळ्या उपरांत आतां हाचे मुखार कोंकणीची प्रतिश्ठा राखपाचें भोव मोठें आव्हान कोंकणी साहित्यिकांचेर आनी पर्यायान कोंकणी संमेलनाचेर येता. हालींच महाबळेश्वर सैलांच्या 'हावठण' हे कांदबरीक सरस्वती सन्मान फाव जाल्ले फाटभुंयेर कोंकणी साहित्या कडेन पळोवपाची हेरांची नदर बदल्ल्या, तांच्यो अपेक्षा वाडल्या. कोंकणी साहित्यकारांक योग्य मार्गदर्शन करून त्या अपेक्षांचें आव्हान स्विकारपाची तयारी अ. भा. कोंकणी साहित्य संमेलनान दवरची पडटली.

**२) साहित्य-समिक्षा आनी-साहित्य-संशोधनाचो उणाव :**

आयचे घटकेक कोंकणी साहित्याक आनी एकंदर कोंकणी चळवळीक योगय दिका दाखोवपी यंत्रणा अस्तित्वांत ना. कोणूय उठ्ठा आनी कश्याय कशें कोंकणी साहित्य प्रसिद्ध करता. प्रसिध्द केल्ल्या साहित्याची योग्य तरेन दखल कोंकणी समिक्षक घेना. गोंय, कर्नाटक, महाराष्ट्र आनी केरळ वाठारांत शेंकड्यांनी कोंकणी पुस्तकां छापून येतात पूण हाताच्या बोटांनी मेजपा इतलेय साहित्य-समिक्षक वा साहित्य-संशोधक सोदून सांपडना. एकॅडेमीक स्थरावयल्या समिक्षणात्मक साहित्याची निर्मिती करप ही महाविद्यालयीन आनी विद्यापीठ पांवड्या वयल्या कोंकणी शिक्षकांची जापसालदारकी. पूण प्रत्यक्षांत व्हडलोसो वावर ह्या मळाचेर जायना.

हेर भारतीय भासांनी ह्या समयार साहित्य समिक्षेचे निकश बदलपाची भास उलयतात, पूण ह्या समयार मात आमी समिक्षेची खरी परिभाशा लेगीत सारकी समजूंक पावूंक ना हे आमचे दुर्दैव. साहित्याच्या शेतांतली नण्णी काडून ताचें बरें पीक काडपाची लागणूक समिक्षक बाळगिता. ते भायर सुक्ष्म पातळेचेर साहित्याचें संशोधन करपी यंत्रणा उबी करप तशेंच कोंकणी समिक्षा लेखन आनी संशोधन लेखनाक उर्बा आनी ग्लॅमर दिवपाचें सगळ्यांत व्हडलें आव्हान कोंकणी साहित्य संमेलना मुखार आसा.

**३) साहित्यकारांची गद्य लेखना कडेन जाल्ली आडनदरः**

भारतीय साहित्यांत कविता हो साहित्य प्रकार व्हड प्रमाणांत बरोवन जाता. कवितेक तशें ग्लॅमरूय आसा. पूण हो पद्य प्रकार हेर गद्य प्रकारांचो आत्मो चिड्डून उडयता. कथा, निबंद, एकांकी सारके प्रकार जाल्यार कवितेचे तुळनेंत चड प्रमाणांत बरोवन जायच ना. कोंकणी साहित्यीक मळार हीच गत जाल्ली आमकां दिश्टी पडटा. कोंकणी साहित्यकारांची गद्य लेखना कडेन आडनदर जाता. म्हणटकच, कोंकणी साहित्य संमेलनांत ह्या विशयाचेर चर्चा जावप गरजेचें कारण गद्य आनी पद्य अश्या दोनूय तरेच्या साहित्यांचो बॅलन्स आसप हो खंयचेय साहित्यीक भाशेचो प्रतिश्ठेचो विशय आसता. देखुनच तें आव्हान थारता.

हें आव्हान दिसपाक भोव ल्हान दिसलें तरीय तातूंतलें गांभिर्य मतींत धरपाक जाय. कारण कथा हो साहित्य प्रकार बरोवपी आमकां बॅटरी घेवन सोदचे पडटात. नव्या बरोवप्यां मदीं हो प्रकार हाताळपी भोवूच उणे आसा. हे आव्हान कोंकणी साहित्य संमेलना मुखार चर्चेक येवप भोव गरजेचें.

**४) डिजिटल माध्यमांचें अतिक्रमण आनी वाचन संस्कृतीचें दमनः**

आयचें साहित्य टि.वी., इंटरनॅट, मोबायल आदी. माध्यमाच्या अतिक्रमणाक बळी पडत आसा. रसीक प्रेक्षकांक नाटका मेरेन हाडपाक हीं माध्यमां आडखळ थारतात. आयच्या भारतीय लेखकांनी समाजीक जाणिवेंतल्यान साबार समस्यांक पळोवप ही काळाची गरज. यांत्रिकीकरण उद्येगीकरण, जागतिकीकरण हातूंतल्यान साहित्य सारको कला प्रकारूय सुटूंक शकना हें हांगा सिद्ध जाता. आयज नवी पिळगी सिनेमा, टि.वी., इंटरनॅट सारक्या माध्यमांच्या हुंवारांत व्हांवून गेल्या. तशें हें अतिक्रमण थारोवप शक्य ना. पूण आमच्या साहित्याचो दर्जो आनी गुणवत्ता वाडीक लायल्यार निश्चितूच परत एक फावट वाचन संस्कृती फळादीक येतली. आमच्या साहित्यांत सिनेमाचें आक्रमण नाटकांनी पचयलां हेंवूय पचोवपाक लेखनाची कला समर्थ आसा. कोंकणी रंगकर्मींनी तशेंच साहित्यिकांनी हें आव्हान स्विकारचें.

वाचन संस्कृती आयच्या काळांत आपलें अस्तित्व शेणोवन बसल्या. पुस्तकांची सुवात आयज टि.वी., मोबायल आनी डिजिटल मिडियान घेतल्या. आदल्या काळांत विद्यार्थ्यांच्या हातांत पुस्तकां दिसतालीं आतां स्मार्टफोना बगर कांयच दिसना. नेमाळीं लेगीत वाचपाची तकालस नवी पिळगी घेना थंय साहित्याचो विचारूच करप शक्य जावचें ना. ह्या प्रस्नांक तोंड दिवप कोंकणी पुस्तकां परत भुरग्यांच्या हातांत दिवचे पासत पेंगट बांदपाचें आव्हान संमेलनान आपणावचें पडटलें.

**५) प्रकाशन संस्था मुखार दुडवांचो उणाव :**

कोंकणी पुस्तकांची छपाई करप आनी कोंकणी पुस्तकांची वितरण व्यवस्था सांबाळप हें म्हत्वाचें कार्य प्रकाशक आपल्या प्रकाशन संस्थे वतीन करता. प्रकाशक पुस्तक उजवाडावपाक तयार नासल्यार तें लोका मुखार येवंक शकना. आयच्या काळांत मूळ कागद भोव म्हारग जाला. तेभायर छपाईचे तरेकवार नवे आविश्कार वयर सरल्यात. हे गजालीक लागून परंपरीक ऑफसेटवाले आनी प्रकाशनवाले मुखेल छपाईच्या अर्थीक वेव्हारांत बुचकळ्ळ्यांत. पुस्तक विकत घेवन तें वाचपी वाचक उणे जाल्यान प्रकाशक आपणें गुंतयिल्ले दुडू परत येतले काय ना ह्या हुस्क्यान गुरफटला. ताचो परिणाम एकंदर

पुस्तकाची गुणवत्ता आनी दर्जाचेर लेगीत जावप सभावीक आसा. ना म्हटलें तरी हें एक व्हड आव्हानूच.

कोंकणी साहित्य संमेलनाक हो विशय तसो प्रयत्क्षांत लागलो ना तरीय एकंदर वाङ्मय संस्कृतीचोच एक वांटो जाल्यान प्रकाशन संस्थांक सतोवपी ह्या असल्या प्रस्नांचो विचार संमेलनाचे वेदीचेर निश्चीतपणान जावं येता.

**निश्कर्श आनी समारोप :**

कोंकणी साहित्य संमेलन सेगीतपणान नवे प्रतिभासंपन्न लेखक, संवेदनशील कवी, सर्जनशील नाट्यलेखाक, ललीत गद्य लेखक, वैचारीक साहित्यकार आनी हेर बरोवपी घड्यत आसा. आतां मेरेन 'अखील भारतीय कोंकणी साहित्य संमेलनानय आपल्या साबार उपक्र मांनी हजारांनी कोंकणी साहित्यिकांक आनी आपवावुरप्यांक तयार केल्यात. कोंकणीच्या समर्थना खातीर आपलें तन-मन-धन आनी प्राण दिवपी कोंकणी भक्त घड्यल्यात. त्या कोंकणी भक्तांनी कोंकणीच्या दर एका ल्हान-मोठ्या उपक्रमांत आनी कोंकणी खातीरच्या सगळ्या आंदोलनांनी उपाट योगदान दिलां. संमेलनाच्या माटवांत घडिल्ल्या आपवावुरप्यांनी केन्ना सामान्य कार्यकर्तो, केन्ना संघटक, केन्ना संयोजक, केन्ना फुडारी जाल्यार केन्ना मार्गदर्शक जावन कोंकणी अस्मितायेचे पालखेक खांद मारला. आनी फुडाराकूय ही पालखी मुखार व्हरपाची उर्बा, हावेस तांचे मदीं भरला. फरक आसा तो जैता वांगडा मुखार आशिल्लीं आव्हानांय स्विकारपाचो.

कोंकणी साहित्य संमेलनान परिशदेच्या एक भास, एक लिपी, एक समाज, एक राज्य ह्या संकल्पनेक सदांच तेंको दिला. मुळांत, परिशदेन शिंपडून पडिल्ल्या कोंकणी समाजाक एकठांय हाडपा पासत तकालस घेतली तशीच तकालस कोंकणी साहित्य संमेलन कोंकणी साहित्यकारांक एकठांय करपा पासत घेता. बऱ्यांतलें बरें अशें उत्कृश्ट कोंकणी साहित्याचे निर्मितीक उर्बा दिवप, कोंकणी साहित्यिकांक एके माचयेर हाडप, कोंकणी साहित्यीक अभिरूची वाडोवप, कोंकणींतले वाचन संस्कृतीक पोसवण दिवप आनी कोंकणींत उदयमुख साहित्यगडे घडोवप हें कार्य संमेलन पोटतिडकीन करता. कोंकणी साहित्य संमेलनांतल्यान कोंकणी साहित्याचो कलात्मक दर्जो वाडोवप, नवे आनी ज्वलंत समाजीक विशय हाताळप, नाट्य लेखन, चर्चासत्रां, शिबिरां, संमेलनां घडोवन, कोंकणीचे साहित्यीक चळवळीक दिका दिवप, आनीक कोंकणी साहित्य तशेंच संस्कृतायेच्या सगल्या वावराक एका पाख्या खाला हाडपी यंत्रणा राबोवप... हीं ध्येय धोरणां सांबाळीत तशेंच तरेकवार अडीअडचणींक तोंड दियत कोंकणी साहित्य संमेलन पावलां मुखार घालता. कोंकणी चळवळीची ही साहित्यीक माची. तिका हांव यश आंवडेतां.


संदर्भ -

१) कालेलकर, ना. गो. *भाषा इतिहास आणि भुगोल.* खटववाडी, मुंबई 4 : मौज प्रकाशन, 1964.

२) केळेकर, रवीन्द्र. (संपादक - अरूणा दुभाषी) *भाषिक संघर्षाचे समाजशास्त्र.* पणजी गोवा : राजहंस वितरण, 2008.

१) केळेकर, रवीन्द्र. *भौभाशीक भारतांत भाशेचें समाजशास्त्र.* मडगांव : कोंकणी भा. मंडळ, 1974.

३) कुलकर्णी, सु. बा. *कोंकणी भाषा : प्रकृती आणि परंपरा.* पणजी : गोवा कोंकणी अकादेमी, 2007.

४) गांवकार, श्याम. *सासाय.* (यादस्तीका - अखील भारतीय कोंकणी परिशद 27 वें अधिवेशन) पणजी गोंय : अ. भा. कों. परीशद, 2010.

५) गोमीश, ओलिविन्यु. *कोंकणी सरस्पतीचो इतिहास.* चांदोर गोंय : सरस्पत प्रकाशन, 1989.

६) मोरोस, पाव्लु. *कोंकणी चळवळ.* मंगळूर : कोंकणी इन्स्टिस्टूट, सां. लुविस कॉलेज 2003.

७) सरदेसाय, माधवी. *भासाभास.* प्रियोळ, माड्डेळ, फोंडें गोंयः जाग प्रकाशन, 1993.

8) Gomes, Olivinho J.F. Old *Konkani Language and Literature – A Portuguese Role.* Chandor Goa : Konkani Sorospat Publication, 1999.

9) Trudgrill, Peter. *Sociolinguistics an introduction..* Harmondsworth, Middlesex, England : Penguin books ltd. 1974.

10) Dhume, Anant Ramkrishna *The cultural history of Goa from 10000 B.C.-1352 A.D.* Ramesh Anant S. Dhume Prakashan, 1986. (Reprint by Asian Educational Services, New Delhi, 1983)



संपर्क: 8805152539


---


*(पान ४ वयल्यान)*


**संमेलनाचे अध्यक्ष ह्या नात्यान ह्या विशयाचेर तुमचें मत कितें?**

**जापः** ह्य दिसांनी नव्या राजकीय कपटपणाची सुरवात जाल्या. स्वातंत्र्य, जात्यातीत चिंतप आनी सोंसणीकाये तसलो संविधानीक अधिकार मोडून घालचें आनी अस्कत करचें प्रेतन चलून आसा आनी संविधानाचो स्पिरीत आनी कानून मोडून विरोध वेतल्यांचेर कसलेंच मेट काडचें प्रेतन चलतच ना. आज देशाच्ये प्रजे थावन 'जियेंवचें' मुळावें हक्क वोडून घेवन आसात. अधिकारार आसच्या मनशांक जियेवंक आनी स्वतंत्र जांवक सोडल्यार मात्र आमी 'जियेव्येत' तसली परिस्थिती आज आसा. दामोदर मावजो तसल्या कृतीशील कार्यकर्त्यांक, साहित्यीकांक आज सेक्यूरिटी सांगाता बाजारांत नुस्तें मोलांवची गत आयल्या. ताच्या वैयक्तीक जिविताचेर काळें मोड आयलां. दामोदर मावजो कांय कोणाक अन्याय करून आसा? तो फकत आपल्या अभिव्यक्ती स्वातंत्र्याच्या चेरेलार बसोन उलोवन आसा. आमच्याच सांगाती साहित्यिकांच्या मुळाव्या हक्कांक कुराड मारचें प्रेतन चलताना आमी साहित्यीकांनी मौनपण सांबाळचें मारेकार.

**मेलबिनाब तुमी आमकां वेळ दिवन ही मुलाखत दिली ते खातीर तुमकां काळजांतल्यान दिनवास.**

**देव बरें करुं.**

# दिसपटी

▸ रवीन्द्र केळेकार



रवीन्द्र केळेकार... कोंकणी चळवळींत शणै गोंयबाबां उपरांत आयिल्लो एक खडेगांठ फुडारी. निखटो साहित्यकार न्हय, एक खांपो झुजारी. एक लेखक, कुटुंबाचो मुखेल घटक - घरकार, काकासायबांचो भक्त, इश्ट आनी इश्टिणींच्या उल्यान धावून वचपी आनी ह्या व्यापांतल्यानय आपल्या लेखनाक खंड पडूक दिनास्तना रावपी लेखक... हे दिसपटेंयतल्यान १९८६ वर्सा चलिल्ल्या खर कोंकणी चळवळींतल्यो बारीकसाणीय वाचूंक मेळटात...

**३० ऑक्टोबर १९८६ घरा**

- सकाळीं दादर

पयले फ्लायिटीर घरा. लिबिचें माक्न घेवन.

**३१ ऑक्टोबर १९८६ पणजे**

- पणजे, कव्हर करपाक.

- आंकार्ची ९६ पानां पळेलीं

जायराती 29 full

29 half

1 1/4 Quater

cover page 4 - 3 - 2

isertion 2

**१ नोव्हेंबर १९८६**

- दिवाळी

**२ नोव्हेंबर १९८६**

- घरांत गडबड - सुजुचो साकर-पुडो.

**३ नोव्हेंबर १९८६**

- धुम्याक पत्र : मान्यताय म्हाका नाका. तुमकां जाय ती घेवन म्हाका छाप वा छापूं नाका म्हूण कळोवपाचें. ६ नव्हेंबर मेरेन. नाजाल्यार, हांव छपाई स्थगीत दवरपी.

- गोदूक ह्या म्हयन्या पसून १०००/-

**४ नोव्हेंबर १९८६**

- विदूरनीती ३ रो अध्याय केलो.

शेनवार मेरेन पुराय करतलों म्हणटां.

**५ नोव्हेंबर १९८६**

- नॅशनल बूक ट्रस्टा कडल्यान प्रुफां आयिल्लीं - ३३ पसून ८० मेरेन पानां. परतीं तीं निवळावन धाडून दिली.

- पावसाळें शें काळोख.

**६ नोव्हेंबर १९८६**

- विदुर नीती,

- उदय आयिल्लो, धुम्याचे वतीन. निश्चिंत जालों.

**७ नोव्हेंबर १९८६**

- विदुर नीति पूर्ण केली.

**८ नोव्हेंबर १९८६**

- महाभारतांत कितें घालपाचें उरलां ते पळोवपाक मराठी खंड चाळून पळयले.

**१० नोव्हेंबर १९८६**

- लाला सुर्लकाराचेर लेख - पिपल्साक दिवपा खातीर.

**११ नोव्हेंबर १९८६**

- विजय पुशीव्हित - सुमार ४० वर्सांनी -

- सांजचो चंद्रकान्ता बरोबर बेळगांवां - स्वामींच्या दर्शनार्थ.

**१२ नोव्हेंबर १९८६ दिल्ली**

- डायरेक्ट फ्लायिटीन दिल्ली - ९ वरांचेर रातचो पावलों. २ तास उसरां.

- नगीनदासभाईचें रवीन्द्र पत्र मर्मर. वाटेर प्रवासांत पुराय. ताका गांधी-एक जीवनी रवाना केले.

- रवीन्द्र पत्र मर्मर म्हळ्यार चिंतनाची खण.

**१३ नोव्हेंबर १९८६ दिल्ली**

- सकाळीं पांडेजीक मेळपाक

- दनपरां काका शताब्दी मिटींग शास्त्री भवनांत.

२८१०/- चे बील दिलें. चॅक ना. येतलो.

- १ डिसेंबराक आमकां आपयतले खंय. पुतळो आनी जमल्यार म्हजें धाकलें पुस्तक हांचें विमोचन.

- शताब्दी समिती अजून चलताली.

**१४ नोव्हेंबर १९८६ दिल्ली / मुम्बय**

- दनपरां ३.३० क सन्निधींतल्यान भायर सरलो. यशवंतभाई बरोबर -

- ८ क मुम्बय.

वाटेर यशवंतभाई कडल्यान कळ्ळें :

म्हजे खातीर रचनावलीचो एक सॅट दवरलां म्हूण.

चंद्रकांता खातीरूय एक हाड म्हळा.

**१५ नोव्हेंबर १९८६ मुम्बय / घरा**

- सकाळीं कृष्ण करवार आयिल्लो.

- १.१० चे फ्लाइटीर घरा. भोला आयला.

**१६ नोव्हेंबर १९८६**

- जागाचे आंक आयलें.

- भोला आयिल्लो

- बिलां काडलीं.

**१७ नोव्हेंबर १९८६**

- आंकांचें रेपींग चल्लें.

**१८ नोव्हेंबर १९८६**

- सगळे आंक रवाना केले

पोस्टांतल्यान २७०

जायरातदारांक डबल २२

बाकिचे हातांत

- फायच्यान महाभारताची 'भर' सुरू करप.

**१९ नोव्हेंबर १९८६**

- सकाळीं भाई मावजो आनी पुंडलीक मागीर, दळवी -इंदिरेचो घोव.

- पुण्यांतसून दादा जोशीचो पुतणयो तीन दिसांच्या दौऱ्यार -दोगां मित्रांक घेवन

- चंद्रकान्ताचे ७००/- यशवंतभाईक धाडले.

- चंद्रकांत केरकार - देवेन्द्राचो प्रस्न.

**२० नोव्हेंबर १९८६**

- गीता अणकारूंक घेतली - महाभारतांत घालपा खातीर.

**२१ नोव्हेंबर १९८६**

- गांधीचोच अनासक्ती योग प्रमाण मानचो अशें थारायलें. ताचोच मेकळो अनुवाद करूंक घेतलो. पयलो अध्याय पुराय.

**२२ नोव्हेंबर १९८६**

- पुण्यांतसून आयिल्ले भुरगे आज परते गेले.

- गीता दुसरो आनी तिसरो अर्दो अध्याय.

**२३ नोव्हेंबर १९८६**

- दोन दीस जाले, थंडी जाल्या. जीव उबगला. 'खूब जगलों, पुरो आतां' अशें दिसपाक लागलें

- महादेव नाडकर्णी -

अनिल - जयवंत.

**२४ नोव्हेंबर १९८६**

- गीता -

- दिल्ली यो म्हूण आमंत्रण आयलें.

**२५ नोव्हेंबर १९८६**

- गीता.

- अवचीत दिसलें, भगवंतालें गीतच निवळावन दिवचें. हे कांय दिल्लींत करप?

दिल्लीची तिकेट आयली.

नानचीय.

**२६ नोव्हेंबर १९८६**

- गिरीश, रोहिणी, पुतूल, नीतून योगेश टेम्पोन मुम्बय -

**२८ नोव्हेंबर १९८६ मुम्बय**

- नानू आनी हांव मुम्बय

७.३० क विमान सुटलें. ४ वरांचेर

**२९ नोव्हेंबर १९८६ मुम्बय**

- सकाळीं पुतूल नीतून -

- रातचो कृष्णा करवार

- गोंयांत अजित पंजाक निदर्शना.

**३० नोव्हेंबर १९८६ दिल्ली**

- सकाळीं भायर सरलो ९.३० क

११.१५ क दिल्ली -

- पोहेकर भायर पडिल्ल्याची खबर कळ्ळी. खूब वायट दिसलें.

**१ डिसेंबर १९८६ दिल्ली**

- सांजच्या आदेसाक काकासाहेब शताब्दीचो समापन उत्सव.

- राष्ट्रीय समिती आतां सोंपली.

**२ डिसेंबर १९८६ दिल्ली**

- दिल्ली बंद

खंयच वचूंक पावलो ना.

फकत गांधी पुस्तक घरांत वचून कांय पुस्तकां घेतलीं.

**३ डिसेंबर १९८६ दिल्ली**

- दनपरां भाऊसरीं - प्र.जा.ची तरफदारी करून जायतें सांगलें. समजूं नाका? भाऊ तो.

- दनपरां डॉ. शशी कडेन -काकाजीवनी Top priorityत घेतां म्हूण आश्वासन घेवन परतलो.

**४ डिसेंबर १९८६ दिल्ली /घरा**

- सकाळचे १०.४५ चे फ्लायटीर घरा. ३ वरांचेर घरा पावलो.

पुतुल. नीतून बी मुम्बयच्यान आयजूच पावल्यांत.

- नान दिल्लींत आसा.

**५ डिसेंबर १९८६**

- सकाळीं नायब राज्यपाला सरीं.

म्हाका मनीस आवडलो.

- दनपरां घरा. प्रकाश पांडगांवकाराली करीयर पयलेच खेपे नारायण मावज्यान सांगली.

**६ डिसेंबर १९८६**

- विदुर नितींतलो थोडो वांटो करपाचो उरिल्लो. तो करून गोदू कडेन दिलो.

**७ डिसेंबर १९८६**

- भगवंतालें गीत कापून कांय फोलीचेर दसयलें.

पयलो अध्याय निवळावन काडलो. तशेंच प्रेसांत दिवचें आशिल्लें. पुणू गोदू म्हणपाक लागलें : आपूण प्रेस कॉपी करून दितां.

- सांजचो फोंड्यां : साहित्य यात्रा पळोवपाक.

दादा वैद्याक प्रणाम.

- चंद्रकांत केरकारागेर गेल्लो. तो कांसावले त्रिश्तांवांच्या पुतळ्याचें अनावरण -समारंभाक गेल्लो.

**८ डिसेंबर १९८६**

- दुसरो अध्याय तपासून काडलो.

- चंद्रकांत केरकार आयिल्लो.

- पणजे 'जागा'ची चर्चा आसा. सुमंत गेला.

**९ डिसेंबर १९८६**

- तिसरो अध्याय तपासून चौथ्याक हात घालो.

- पुंडलीक आयिल्लो.

**१० डिसेंबर १९८६**

- अकादमींत शुद्धलेखनाचे नेम थारावपाक.

- प्र.आ. च्या बायलांचो मोर्चो.

- दिल्लीची तिकेट मेळ्ळी - परतीची मेळूंक ना.

- रातीं आमगेर कितल्योश्यो व्हंकलो. गिरिशान जेवण केल्लें.

**११ डिसेंबर १९८६**

- घराच - गीता ४ थो अध्याय.

**१२ डिसेंबर १९८६ मुम्बय**

- दनपारचे फ्लायटीर मुम्बय.

- कृष्ण करवार मेळ्ळोच ना.

**१३ डिसेंबर १९८६ दिल्ली**

- सकाळचे फ्लायटीर दिल्ली -

कृष्णा करवाराक पत्र विमानतळा वयल्यान.

**१४ डिसेंबर १९८६ दिल्ली**

- सा. अ. चे ex. comची बसका

प्रकाश पाडगांवकाराक award - 3570/-30

**१५ डिसेंबर १९८६ दिल्ली**

- नानून घेवंक कॉनॉट प्लेस -

**१६ डिसेंबर १९८६ दिल्ली**

- राजधानीन दिल्ली सोडली.

**१७ डिसेंबर १९८६ मुम्बय**

- १०.१५ क मुम्बय -

नान राजू बरोबर गोंयां -

**१८ डिसेंबर १९८६ मुम्बय**

- कृष्णा करवार -

- उपरान्त आनी Goa Todayचे आंक पळेले.

**१९ डिसेंबर १९८६ मुम्बय**

- शीला -

**२० डिसेंबर १९८६ मुम्बय**

- फोटांत वचून आनंद लिमयेक मेळ्ळो.

शेनवारा प्रुफां येतली.

- राती TVचेर गोंय पेटलां आनी गोळीबारांत एकलो ठार जाल्ल्याची खबर आयकल्ली.

**२१ डिसेंबर १९८६ मुम्बय / गोंय**

- दुसरे फ्लायटीर गोंयां.

वास्कोच उरलो. घरा वचप शक्य नाशिल्लें.

- रेवतिचें लग्न जालें.

**२२ डिसेंबर १९८६**

- वास्कोच्यान लाँचीन पणजे

दनपरां बसीन घरा -

'अशेंच चलपाचें' म्हणपाचें कळ्ळें.

**२३ डिसेंबर १९८६**

- अजून गोंय तंग.

**२५ डिसेंबर १९८६**

- गुरुनाथ - दत्ता दामोदर नायकाक घेवन : चल्ला तें बंद जावंक जाय म्हूण सांगपाक.

पणजे. कोण मेळ्ळो ना.

**२६ डिसेंबर १९८६**

- गितेचे ५ - ६ - ७ अध्याय निवळावन काडले.

**२७ डिसेंबर १९८६**

- सुलूचें लग्न बांदोड्या

- रंजन सरदेसाय.

**२८ डिसेंबर १९८६**

- गितेचे ९, १०, ११ अध्याय पुराय.

**२९ डिसेंबर १९८६**

- गितेचो १२, १३, १४, १५ अध्याय पुराय.

- महाभारताचीं प्रुफां आयलीं.

**३० डिसेंबर १९८६**

- महाभारताची प्रुफां तपासलीं. थोडीं उरल्यांत.

- दत्ता दामोदर, विजय थळी - बी आयिल्लें.

दयानंद नार्वेकाराक C.M. करपाचें थरलां म्हणटालें.

- पुंडलीक हेमा येवन गेलीं. (शिलाचे ५०/-दिले).

(सोंपता)



# घुसमटमार

आशा शानभाग

आयज स्कुलाक सुटी आशिल्ल्यान मानसी मात्सो कळाव करूनच उठलें. तार्चीं दोगांय जुंवळी भुरगीं आपल्या बेडरुमांत सुस्त न्हिदिल्ली. साहिलाचे कंपनीक सुटी नाशिल्ल्यान तो एकटोच भायर सरपाचो म्हणून मानसी रिलॅक्स आशिल्लें. कंपनींतच लंच मेळटालो म्हणून ताचो डबो करपाची ताकतीक नासताली. पूण ब्रेकफास्ट मात बरोऽऽ जाय पडटालें ताका. तरी ताचो भायर सरपाचो टायम उसरां आशिल्ल्यान मानसी सुशेगाद आशिल्लें. णवांक साहील भायर सरलो. सुटी आशिल्ल्यान सगळ्या कॉलनी भरच्या भुरग्यांचो सकयल गार्डनांत धांगडधिंगा सुरू जाला. घरांतलीं सगलीं कामां सोंपोवन मानसीन मोबायल हातांत घेतलो. कितल्योश्योच फ्रेंड रिक्वेस्टी. 'कटकट'... फ्रेंड रिक्वेस्टी म्हळ्यार वळखीचे आसल्यार ओके. ना जाल्यार... जीव खातात. ''हाय मॅम'' पसून सुरवात करून डार्लिंग करून उडयतात. बडबडत मानसी फ्रेंड रिक्वेस्टी डिलीट करपाक लागलें.

''सत्यम शिवलकर'' नांव क्लिक जालें... आनी मानसीच्या काळजांत कल्ल जालें. तोच काय हो? हो विचार मनांत येतनाच ताणें आपल्या सुखी समादानी घराचो विचार करपाक सुरवात केली. जिवा परस चड मोग करपी साहील... मोगाळ भुरगीं... भरिल्लें घर आनी तार्चें मन एकदम फ्लॅशबॅकांत गेलें... हायर सेकंडरी सोंपोवन ताणें कॉलेजींत पावल दवरिल्लें. एफ-वाय. बीएस्सी. युनिफॉर्मांतल्यान मेकळीक मेळिल्ल्यान ताची गत कानांत वारें भरिल्ल्या पाडका भशेन जाल्ली. शिकपांत हुशार आशिल्लें मानसी एक्स्ट्रा करिकुलर एक्टीव्हिटीजांतय फुडेंच... खेळ... ड्रामा ह्या भानगडींनी रस आशिल्ल्या मानसीची गांठ एस.वाय.बीएतल्या सत्यम शिवलकरा कडेन पडली. स्वता एकांकिका बरोवन दिग्दर्शित करपी सत्यम आनी अभिनयात कस लावपी मानसी. हांचे मदीं घटमूट इश्टागत जल्माक आयली. सत्यमाचे इश्टागतीक सगळींच आशेताली. आडवळणाच्या वयाच्या मानसीच्या मनांत हे इश्टागतीक विंगडशे कोंब फुटले.

सत्यमाचें सगल्यां कडेन खास करून चलयां कडेन मेकळें वागप पळोवन मानसी मनांतल्या मनांत धुमसतालें. फायनल एक्झामी उपरांत ताणें सत्यमाक आपलें मन सांगपाचो यत्न केलो. ''सत्यम... तूं सगल्या चलयां कडेन इतलो फ्री कसो वागपाक शकता?'' ''मानसी... इश्टागती मदीं हांव दादलो-बायल असो भेद धरिना गो.'' सत्यमान हांसतच जाप दिली. - मानसी.

''तशें न्हय रे''. ''आयक... हांव म्हज्या इश्ट बायलांचो आदर राखत. आयज मेरेन खंयचेच म्हजे इश्टिणीचो हांवें गैरफायदो सोड फायदो लेगीत घेतलों ना. हांव फ्री मांयडेड आसलों तरी हांवें सामकार एक लायन आंखल्या. हांव ती क्रॉस करिना.'' - सत्यम

''तूं क्रॉस करिना. पूण हेर चलयो जे तरेन ती लायन क्रॉस करपाचो यत्न करतात तें म्हाका आवडना. तुंवें स्वताक कंट्रोल करूंक तांकां सांगपाक जाय हें म्हजें मत''. धडाधड मानसी उलोवन मेकळें जालें.

''मानसी... वेट... वेट... तुका आवडना.. तुजें मत हें कितें चल्लां? म्हजें वागप तुका खटकता? बट व्हाय?''

''सत्यम... आय थिंक आय ॲम समथिंग स्पेशल फॉर यु ॲज यु आर फॉर मी.''

खीण भर शुन्य जाल्ल्या सत्यमाक सगळें समजलें... गैरसमजाचे लोट कळले... सगले समजपाचे तें ताका उमगलें.

थंडसाणेन, तकली थीर दवरून ताणें मानसीक समजायलें ''मानसी... आय ॲम सॉरी. तुजी भावना कळ्ळी म्हाका पूण रियली... देवाच्यान म्हज्या मनांत तशें कांयच नां.''

''सत्यम... तुजें आनी खंय अफेअर आसा?''

''ना गो... तशें कांयच ना.''

''मागीर म्हजे मदीं कितें कमी आसा?'' सांग सत्यम व्हॉट डु यू वॉंट?''

''शी!... मानसी ह्या तुज्या प्रस्नाची जाप म्हजे कडेन ना. सॉरी... मानसी विचार पुर्वक जीण जग इतलेंच सांगतां तुका. गुडबाय''

मानसीच्या मनांत खळबळ माजली... बऱ्या वायट विचारांची



धुमश्चक्री जाली. नेगेटिव्ह विचार आनी जिवापाड मोग करपी आई-बाबा हांच्या विचारांचें झूज जाल्ली. पोझिटीव्ह विचार जिंकले आनी मानसीन आपलो हात भविश्यकाळ आनी भवितव्याच्या हातांत दिलो.

दुसरें वर्स कॉलेज सुरू जातनाच मानसीन थारायलें. सत्यमा कडेन अॅज युजवल वागप... पंदरा दीस जाले तरी सत्यमाचें दर्शन ना. फ्रेंडसां वांगडा उलयतना कळ्ळें की सत्यमान पुण्यांत अॅडमिशन घेतलां आनी हॉस्टेलात रावता. मनोमन ताका थँक्स म्हणून मानसी शिकपात गुंग जालें. बी.एस्सी. बी.एड. करता मेरेन ताका लाग सारच्या हायस्कुलांत शिर्विसय मेळ्ळी. आनी ताच्याच शारांतल्या साहिलान... जो ताका कॉलेजींत शिकता तेन्ना सावन तेळटालो... डायरेक्ट बाबा कडेन येवन मागणी घाली. ना म्हणपा सारकें कांयच नाशिल्ल्यान 'झट मंगनी पट ब्याह' जावन साहिल-मानसी जुवळ्यां चल्यांचीं पालक जालीं.

आयज... एफ.बीचेर सत्यमाची फ्रेंड रिक्वेस्ट पळोवन मानसीक ह्यो सगल्यो गजाली येवजल्यो. सत्यमाचो प्रोफायल ताणें ओपन केलो. तो पुण्यांतच स्थायीक जाल्लो. सोबीत बंगलो आनी म्हारग इंटिरियर पळोवन मानसीन आपल्या डबल बेडरुम फ्लॅटाचेर नदर मारली. लाख रुपयांची स्टेरकेस.. पोर्च... गाडयो आनी ग्रीन ग्रासाचें गार्डन पळोवन मानसीच्या मनांत खंय तरी एक कुंस किसकिसलें... मॅरीड हें स्टॅटस पळोवन ताचे फामिलीक पळोवपाचे उमळशीकेन ताणे अपलोडेड फोटोस् पळयले.

'मी न माय फॅमिली' ह्या कॅप्शनाचेर एक टुनटुना वरी टुणटुणीत बायल आनी तिची झेरॉक्स अशी एक चली पळोवन मानसीक सत्यमाची काकूट दिसली. मानसी आपली आनी सत्यमाची जोडी कशी दिसपाची हें चिंतपाक लागलें. ''शी... शी... कितें चिंततां हांव? साहिलाच्या मोगान सत्यम केन्ना विसरायेक पडला... आमच्या मोगाची कुरू आशिल्ल्या भुरग्यांचो विचारय केलो ना हांवें... आनी चिंततां सत्यम आनी हांव... शी... लज दिसता म्हजी म्हाका.''

दीस वताले. भुरगीं शाळेंत गेलीं... साहील कामार गेलो की मानसी एकटेंच. सत्यमाची फ्रेंड रिक्वेस्ट अॅक्सेप्ट करत सावन तांचो हाय-हॅलो वयर कॉंटॅक्ट नासलो. सत्यम अजुनय आपल्या मुखावयली लक्ष्मणरेशा विसरलो नाशिल्लो. मानसीचे रिकाम्या तकलेंत मात आपल्या आनी सत्यमा विशीं स्वप्नरंजन सुरू जालें. ''सत्यम आनी हांव काय बरी जोडी दिसपाचीं?'' मानसीचें दुसरें मन ताका कोंचतालें. ''शी... दोन भुरग्यांची आवय तूं आनी जोडयो जुळयत खेळटा?'' मानसीच्या मना भितर दोनूय मनांचे झूज सुरू जाल्लें. हाचो परिणाम निस्तेज चेरो आनी मानसीक घुसमट. एका दिसा रातच्या वेळार साहिलान विचारलेंच ताका... ''मानू तूं ह्या दिसांनी फ्रिजीड कित्याक जालां? अॅनी प्रॉब्लेम? पयली सारकें खुलून येना शें?''

''ना रे... कांयच ना?'' मानसीचे तकलेंतल्यान सत्यम हालचना.

आतां तर तें एकटे आसतना आपूण आनी सत्यम हांचे मर्दी रोमॅंटीक सीन्स रंगोवपाक लागलें. सत्यमाचे जाडजूड बायलेक पळोवन तयार जाल्ले मानसीक काकुळटेचे भावनेंतल्यान तें सत्यमाक आभासी जगांत भोगपाक लागलें. ते दिसा साहील कामाक गेले उपरांत हें स्वप्नरंजनांत रमलें. सत्यम आयलो... ताणें बॅल मारली... दार उगडतनाच सत्यमान वेंगेंत घेतलें... अमे घेत तीं बेडरुमांत पावलीं... आनी चिंतनेचो ताण असहाय जावन उठपाक करपी मानसी ढाणकन् टिपॉया चेर पडलें.

शुद्धीर आयलें तेन्ना तें बेडरुमांत आसलें. आनी साहील ताचो हात पोशयत भरिल्ल्या दोळ्यानी ताका पळयतालो. दोळे पुराय उगते करतगीर ताका जाणवलें दाव्या हाताक आनी तकलेक पट्टी बांदल्या ''साहील'' ताणें किळांच मारली आनी फटकस उठून ताका वेंग मारली. ''मानू... कितें जालें तुका? देव बरो म्हजो. फायल विसरलों म्हणून परतून येवन बॅल मारल्यार दार उगडना. तूं शेजरा बी गेलां आसत म्हणून हांवें म्हजे कडले चावयेन दार उगडलें. पळयल्यार काचेच्या फुटक्या टिपॉयाचेर तूं पडलां. हांवें दोतोराक आफोवन पट्टी बांदली. टी.टी. दिलें.''

''साहील आय अॅम सॉरी.''

''कांय नां गो. आरोग्य तें केन्ना केन्नाय बिगडटाच'' हुमसून रडत मानसीन ताका आपली घुसमट सांगली. ''साहील... हांवें मानसीक तरेन व्यभिचार केलो रे. हांवें फटयलें तुका सॉरी... तुका जाय ती शिक्षा दी म्हाका.''

''शी... पिशें गो तूं मानू? मनांत विचार येवप हें सहज. प्रत्यक्षान कितेंय घडल्यार घडये ताका व्यभिचार म्हणत. आतां तर कोर्टान तेंय भायर मारलां. चल हांस.''

''साहील... तूं करता असो विचार केन्नाय?''

''हय तर... एकाद्री विजोड जोडी दिसली. जातूंत घोव बावळट आनी बायल ब्युटी क्वीन आसत जाल्यार मनांत येता विचार. हांव बरो सोबतलों आसलो ताचे जाग्यार. ओके... बेटर लक इन नेक्सट जन्म म्हणून सोडटा हांव. हो कितें व्यभिचार? ही कितें तुजे कडेन प्रतारणा?'' असो विचार करपी, विचार करपाक सांगपी... कितलो समजुतदार हो घोव म्हजो. मनांतलो विचार आनी प्रत्यक्ष कृती हातुंतलो फरक समजून मानून घेवपी. म्हजें नशीब म्हणून साहील म्हाका मेळ्ळो.

''मानू... शक्य आसल्यार सत्यमाली फ्रेंड रिक्वेस्ट अॅकसेप्ट कर आनी अॅज अ फ्रेंड ट्रीट कर ताका. चॅटय कर ताचे कडेन... म्हजे भशेन.''

''म्हजेभशेन म्हळ्यार रे?''

''हांव म्हज्या आदल्या मैत्रिणीं कडेन वागतां तसो.'' आनी ह्या उतराचेर स्त्री-मत्सर... दुस्वास जागो जालो आनी मानसीन एक हात जखमी आसतनाय दुसऱ्या हातान उशें घेवन साहिलाक बडयलो. तकली आनी हात पट्टेत बांदिल्ले. मानसी साहिलाचे वेंगेंत चॉकलेट कशें विरगळ्ळें... आनी साहिलाचें ऑफीस वर्क तांचे बेडीर रंगलें...

संपर्क: 9404145337

# कलेची वेगळीं वेगळीं मळबां

मुकेश थळी

कला अकादमीच्या कोंकणी नाटकांचे सर्तींत अंदू ३३ नाटकां देंवल्यांत. आयज मेरेनचो हो विक्रमी उच्चांक अशें दिसता. ही सर्त फेब्रुवारीक सुरू जातली. १६ एप्रीलाक ती सोंपतली.

कला अकादमीची पयली कोंकणी नाटकांची सर्त १९७६-७७ वर्सा जाल्ली. ताचे आदीं कांय वर्सां, दर वर्सा सर्त जाहीर जावनूय उण्या प्रवेशिकां खातीर ती जावंक पावलिना. सर्ती खातीर नेमा प्रमाण उणींच नाटकां येवचीं, हे खातीर खूब जाणांनी खूब कश्ट घेतले. प्रामाणीक यत्न जाले. नाटका सारकें कला आनी साहित्याचें दालन समृध्द जावचें आनी ही कुणगी तरतरची हे पोट तिडकीन. त्या सगळ्या जाणांच्या मुळावणाक लागून आयज हो रूख वाडला. सर्तींत अंदू ३३ नाटकां जातलीं. तें पळोवन हड्डें अभिमानान आनी आनंदान भरून येता.

आशय- विशय, नवें प्रयोग, हांची विविधताय मतींत घेतल्यार हे सर्तींत आयज मेरेन कितलिशींच बरीं बरीं नाटकां सादर जालीं. तातूंत मौलीक नाटकां आशिल्लींच. हेर भासांतलीं भारतीय रंगमाचयेर गाजिल्लीं तशेंच संवसारीक पावंड्याचीं विदेशी भासांतलींय नाटकां कोंकणींत आयलीं. यशस्विपणान मंचीत जालीं. केन्ना-केन्नाय मनाच्या माचयेर यादींचें आल्बम उगडटकच कितलिशींच खिणचित्रां आनी दृश्यचित्रां दिसतात. कितल्याश्याच कोंकणी नाटकांची तृप्त करपी देखाव, आपणाक सोंपेंपणी कळयत अश्या आपल्या भाशेंतल्या उतरांतले वजनदार लयदार संवाद, आवयभाशेंतले संवाद, उजवाड - आवाजाच्या परिणामांच्या सांगातान, ताकदी अभिनेत्यांनी आविश्कृत करतकच काळजांत रिगिल्ले त्या त्या वेळावयले ते आनंदाचे खीण यादींच्या माचयेर परत परत पळोवंक मेळयत. आनी घे, खोशयेची कारंजी उसळूंक लागतात.

गीत आनी नाटक हे साहित्य प्रकार भास आनी साहित्य लोकां मेरेन नेटान आनी प्रभावीपणान पावयतात. कोंकणी नाटक हें फकत हाऽ हाऽ हा करून हांसपा पुरतेंच अशें लोकांच्या मनांत एका काळांत जें समिकरण जाल्लें तें ल्हवू ल्हवू करून नाच्च जालें. भारतीय रंगमाची गिरेस्त करपी साहित्य -मुल्य आशिल्लीं, तशेंच तंत्रीक आंगान घटमूट अशीं सादरिकरणाची शक्त आशिल्लीं तोलामोलाचीं नाटकां हे सर्तीन दिलीं. कितल्याश्याच कला अकादमीचे नाटकांचे सर्तीक लागून. कोंकणी नाटकांचे पोसवणेचो आनी मुळावणाचो आदार जाला. काळांतरान वेवसायीक पांवड्यार लेगीत कोंकणी नाटक फुलत गेलें. रसिकांनी, लोकांनी तें उखलून धरलें.

वॉट्सएपार एकां एक बरो संदेश आयिल्लो. कितलीशींच झाडां, रोंपें जावपाक चानयों मोलाचो आदार करतात. चानयो खंय पोरसांनी भोंवतना 'मागीर खावया' म्हूण कांय बियो व्हरून दुर्गाच्या खांचिनी आनी हेर सुवातांनी लिपोवन दवरतात. मागीर खावपाक वा व्हरपाक विसरतात. ह्यो हजारांनी बियो खंय वाऱ्या वांगडा उफेत भुंयेर पातळयत आनी काळांतरान रूजवणाक येतात. तातूंतल्यान खंय हजारांनी रोंपें किल्लतात. 'म्हजो वांटो चानये इतलो' अशी ओपार रामायणांत सेवा करपी चानये वयल्यान आयल्या. पूण झाडांचें रान फुलोवपाक चानयेचो वांटो खूब व्हडलो आसता. चानी ल्हान आसली तरी.

कोंकणी नाटकांची प्रगती पळयल्यार कितल्याशाच जाणीव पूर्वक प्रामाणीक यत्नांची बिया आमकां दिसतात. आयज ताका लागून व्हडलें पोरसूं फुल्लां. कलाकार, दिग्दर्शक, लेखक, तंत्रज्ञ, माचये फाटले कलाकार वा मदत करपी हात, रसीक, आश्रयदाते, बरें मागपी, ज्ञात अज्ञात कितलेशेच घटक... अंत ना. सगळ्यांक वंदन.

***

नाटक माचयेर घडयता जितो-जिवो आविश्कार. हाडामासाचीं पात्रां हावभाव करीत चलतात, भोंवतात आनी साकारतात एक रंगकाव्य.

आनीक एक काव्य आसा तें म्हळ्यार कॅमेऱ्याचें. लॅन्स पोएट्री. टि.वी. सिरियली वा सिनेमा ह्या माध्यमांनी आर्विल्ल्या तंत्रगिन्यानाची साथ घेवन आयज रसिकमनां मेरेन विचार, संदेश, साहित्य परिणामकारक रितीन पावोवपाक नेट घेतला. भारतीय समाजमनाचेर चित्रपट माध्यमाचो बरोच पगडो आसा.

विमान देंवयतना जर टायर धांवपट्टेक घब्ब करून आपटिलें जाल्यार मळबांतले उंचाये वयल्यान धतरीचेर सुखरूप पावले रे, अशें म्हणपी प्रवाशांच्या काळजांत धस्स जाता. बरो वैमानीक भुमितींत वर्तुळाक टॅंजंट म्हळ्यार स्पर्शक रेशा जशी आफुड्या तितले सहजतायेन धांवपट्टेक फुला वरी टायर तेंकयता. 'कला ती!' सांगपाचो आपरोस-भाशण, नाट्यकृती वा फिल्म हांचो शेवट असो सूखमय जावंक जाय. जिबेर घोळत उरपी खाल्ल्या सुवादीक रूच्चीक जिनसावरी कलाकृतीचो शेवट आंगांत, मनांत घोळत उरूक जाय. प्रभावी आनी परिणाम करपी 'क्लायमॅक्स' कसो आसचो हाची देख हालींच एका 'बायोपीक' म्हळ्यार 'चरित्रात्मक चित्रपटांत' पळयली.

'भाई-व्यक्ती की वल्ली'. प्रतिभावंत मराठी साहित्यीक 'पु. ल. देशपांडे' हांच्या जिणेचेर आदारीत चित्रपटाचो पयलो भाग प्रदर्शीत जालो. आवडलो. फकत गुडी गुडी गोड दाखयनासतना ह्या कलाकाराच्या सभाव आयामांचेर, कलागुणांचेर एक संतुळीत फोकस तातूंत मारला. सुनिता देशपांडेन आपल्या घरकाराचेर *आहे मनोहर तरी* हें पुस्तक बरयल्लें. तातूंत ह्या साहित्यीकाच्या कांय सभाव दोशांचेरूय बडी मारिल्ली. असामान्य नाट्य आनी संगीत कलाकार आनी भोवआयामी साहित्यीकाची घरकान्न म्हूण आपल्या वांट्याक जी सोंसणीक आयिल्ली, ते अणभव तिणें मांडिल्ले. त्या वेळार आकांताचे वाद लेगीत जाल्ले. पत्रापत्री, लेख हांची माळूच मुखार

आयिल्ली. त्याच बरपाचेर आदारीत आहे 'मनोहर तरी वाचन आणि विवेचन' हें विजया राजाध्यक्ष आनी श्री. पु. भागवत हांणी संपादीत केल्लें एक पुस्तक आयलां.

चित्रपटांत सुनिता देशपांडेचो पार्ट करपी गुणी अभिनेत्री इरावती हर्षे हिणें आपली भुमिका अदीक समजून घेवपा खातीर, *आहे मनोहर तरी* हें पुस्तक आपणे वाचलें अशें टि.वी. मुलाखतींत सांगिल्लें. तिणें जे भाव अभिनीत केल्यात ते सुंदरूच. पुलचो पार्ट करपी सागर देशमुख धरून सगळ्यांनीच आपलीं कामां बेस बरीं केल्यांत. महेश मांजरेकाराचें प्रॉडक्शन हें.

कुमार गंधर्व, भीमसेन जोशी आनी वसंतराव देशपांडि हांची एक घरगुती गायन मैफल दाखोवन ह्या चित्रपटाचो शेवट केला. संगिताची काळजाक हात घालपाची तांक कितली आसूं येता ताची देख तातूंत आसपावता. *सावरे अजैय्यो...* ही कुमारजींनी कंपोज केल्ली भावविश्वांत उफेत व्हरपी अव्वंवर रचना. ती आयकतना तो चित्रपट सोंपलो हें कळचना. ह्या चित्रपटाचो फुडलो भाग ८ फेब्रुवारीक येतलो...

पुलचो एसएससी कोंकणी पाठ्यक्रमांत आमकां एक धडो आशिल्लो. 'कारवार'. कोडीबाग आनी हेर वर्णनां तातूंत आसात. पुलचें आजोळ कारवार.

पणजेंत कला अकादमीचे आदले इमारतींत पु.ल. आनी सुनिता हांणी केल्लें बाकीबाबांच्या कवितांचें वाचन आयकल्लें. कवळ्यां संगीत संमेलनां पु.ल.-न केल्लें उक्तावणाचें भाशण .... पुलचें समग्र साहित्य... पेटीवादन. कितल्योश्योच यादी उसवल्यो आनी वयर आयल्यो. ही पुनर्भेट घडप हेंच चित्रपटाचें यश.

संगीत, अभिनय, साहित्य, नाटक, विनोद आनी हेर कला आनी आनंद निर्मिती हांचे गूण आंगांतूच घेवन आयिल्ल्या ह्या प्रतिभावंताची जल्मशती अंदू मनयतात. भाईक सलाम.

***

वसंत जोसलकार संवसाराक अंतरले. खूब मोटे कलाकार.

प्रकाश थळी म्हळ्यार आमच्या काकान आमकां संगीत, नाटक, साहित्य, इंग्लीश आनी हेर भासांतल्यो बारीकसाणी अश्या कांय गजालींची वळख घडयली. जोसलकार सर हें नांव एनएसडींत शिकिल्लो हो म्हान कलाकार कला अकादमींत नाट्य शाळेचो मुखेली म्हूण येवचे आदींच आमच्या प्रकाशकाका कडल्यान आदराच्या उल्लेखा सयत आयकल्लें.

काळांतरान पणजे कला अकादमींत जोसलकार सर मेळटकच आमचो काका ताचे कडेन आवडीन उलयतालो. शांत तंद्रेंत कायम बुडिल्ल्या ह्या कलाकाराची, नट म्हूण वळख केलीना जाल्यार भायल्यान कोणाकूच कळचें लेगीत नाशिल्लें तो येदो तांकीवंत कलाकार म्हूण. इतलें सादेपण. कसलोच खळखळाट, आवाज नासतालो. ना गवगवो. थंड, नम्र. संभाशण संवादांतली आयकत रावपाची आनी उलयतल्याक तेळपाची ही तांची लय म्हाका आवडयली. मंद हांसो. आमचें मूळ घर कोरगांव. जोसलकार पेडणें म्हालांतलो. ताका लागून प्रकाशकाकाक ताचेर अदीक प्रेम.

जोसलकार सरान माची, टि.वी., सिनेमा ह्या मळाचेर सणसणीत भुमिका दिवन आपलो कायमचो ठसो दवरलो.

कला अकादमींत ह्या शिक्षकाक विद्यार्थी, चाहते आनी कलाप्रेमी हांचे कडल्यान जो आदर मेळयलो तशें प्रेम सपसप खंयच्याच कला शिक्षकाक मेळिल्लें पळोवंक ना. जोसलकार सराची व्हडली जोड ती ही. जाका कला म्हळ्यार कितें हें थोडें तरी कळ्ळां, तेच रसीक लोक, विनयशील आनी खऱ्या कलाकाराक वळखतात आनी बागवतात. सर, आर्गां तुमकां... संपर्क: 9423056755

# कृ. म. सुखठणकारांच्या विनोदी साहित्यांतले गांभिर्य

सखाराम शेणवी बोरकार

विनोद म्हळ्यार कितें? एक म्हान तत्वगिन्यानी लेव रोस्टन म्हण्टा ''Humour is affectionate communication of insight'' - आपले भितरले विचार मोयपासान सांगप. Henry W. Beecher म्हण्टा, "Good Humour makes all things tolerable" - बरो विनोद हो सगळ्या गजालींनी सोशिंकपणा दाखयता.

साहित्यां भितर विनोद हाताळप भोव कठीण. कित्याक तर हातूंत 'व्हांवपाची' खूब शक्यताय आसा. पूण कोणाकय दुखयनासतना 'रेशमी चिमटे' काडून समाजांतल्या विसंगतीचेर, वायट प्रवृत्तीचेर बोट दाखोवप आनी वेळ पडल्यार ताचेर बडी मारप हें खूब कठीण काम. आनी हें करतना कमरे सकयले, Below the belt विनोद आपूण करिना मूं हाचें भान विनोदी लेखकाक पावला कणकणी दवरचें पडटा.

कोंकणी भाशेंतल्या विनोदाक एक इतिहास आसा. आमचो लोकवेद जशे परीं धालो, मांडो, शिगम्याचीं-होळयेचीं गितां, लोक काणयो, म्हणी, उमाणीं हातूंत पावला पावलाक आमकां विनोद मेळटा. पूण कोंकणी भाशेंतल्या लिखीत साहित्यांत विनोद ह्या साहित्य प्रकाराक व्हडलीशी परंपरा ना. विनोद ह्या लेखन प्रकाराचेर कोंकणी भाशेंतल्या लिखीत साहित्यांत दुर्लक्ष जालां म्हळ्यार अतिताय जांवची ना. शणै गोंयबाब ते आयचे आघाडीचे लेखक हांणी वेगवेगळ्या समयार विनादी लेखन केलां. पूण निव्वळ विनोदी लेखक म्हण छाप पडिल्ले कोंकणी भाशेंतले दोनच लेखक, ते म्हळ्यार अ. ना. म्हांबरे आनी भौ. कृ. म. सुखठणकार.



अना अंतरले उपरांत कोंकणी विनोदी साहित्याच्या मळार एक व्हड पोकळी निर्माण जाली. कोंकणी विनोदी साहित्याचें हें दायज कोण चलयतलो असो प्रस्न उप्रासलो. हांव हें इतलेच खातीर म्हणटां कित्याक तर विनोदी लेखक म्हण बिरुद लायिल्ले कांय लेखक तांचे कडेन आनीक सांगपाचें कांय नाशिल्ल्यान आपसूकच शेणून गेले. थोडे आपल्याक विनोदी लेखक हें बिरुद लागतच म्हण भियेले. अशा वेळार पिरायेच्या उसरां पांवड्यार काय जायना अनाचोच गांवभाव भौ. कृ. म. सुखठणकारान कोंकणी विनोदी साहित्याच्या मळार एक घणघणीत पावल घालें आनी फाटलीं स-सात वर्सां तांचो तो वावर सातत्यान चालू आसा. भौ. कृ. म. सुखठणकारान कोंकणी विनोदी साहित्याक नवी 'संजिवनी' दिली म्हळ्यार अतिताय जावंची ना.

अना आनी कृ.म. ह्या दोगांय भितर म्हाका सारकेंपण जाणवता तें हें की हे दोनूय विनोदी लेखक आसूनय तांचो तो गंभीर चेरो, अफाट वाचन आनी स्मरणशक्त, सगळ्यो गजाली बारकायेन पळोवपाची फिशालकाय आनी सरळ, सादी, सोपी भास. एक मात आमी मतींत दवरप गरजेचें हें की अनाच्या विनोदाची शैली वेगळी आनी कृमच्या विनोदाची शैली वेगळी.

फाटलीं स वर्सां कृ.म.न आमका कांयच खंड पडूंक दिना आसतना, सेगीत अशे अडेचशें ते तीनशें, जांव ते विनोदी लेख, विनोदी डायरी, वा विनोदी रहस्य कथा आमकां दिल्यात. विनोदी सोडात पूण इतले सातत्यान बरोवपी लेखक स. चंद्रकांत केणी, स. रवीन्द्र केळेकार आनी स. माधवी सरदेसाय, स. रमेश वेळुस्कार आनी आतांचे, भौ. माधव बोरकार आनी भौ. दिलीप बोरकार सोडल्यार, कोंकणी मळार साप्प थोडे सातत्यान बरोवपी लेखक तुमकां मेळटले.

हे फाटभुंयेर आमी आतां 'कृ.म. सुखठणकारांच्या विनोदी साहित्यांतलें गांभिर्य ह्या विशयावर वळूंया.

विनोद हो गंभिरतायेन घेवपाचो विशय न्हय अशें थोड्यांचें म्हणणें आसा. पूण गंभिर विशय जर कोणाकय दुखयनासतना सभे माजार मांडटलो जाल्यार विनोदा शिवाय दुसरें खंयचेंय माध्यम ना.

ब्रिटीश लेखिका आयिशा मलीक म्हण्टाः "I draw upon some serious issues because I think they are important to get across. But humour is a great vehicle to get ideas and concerns without feeling heavy handed."

कृ.म.चें साहित्य हें आगळें वेगळें, ताची शैलीय बी आगळी वेगळी. कोंकणींत हे तरेच्या साहित्याचो प्रयोग हाचे आदीं जावंक ना. हें साहित्य मनरिजवणेचें साहित्य न्हय. कृ.म. हो एक प्रगल्भ लेखक. जेन्ना हांव तांचे हे ललीत निबंद वाचतां, ताणें एकेक ज्वलंत विशय घेवन तयार केल्लो प्लॉट तोखेतां, तेन्ना तातूंतलें गांभिर्य म्हाका जाणवत वता. हें सगळें आंखतना ताणे केल्लो कोंकणी मनशाच्या सबावगुणांचो, मानसिकतेचो अभ्यास आनी निरक्षण शक्तीक

हांकां दाद दितां.

हांवें वयर म्हळां तशें कृ.म. बरयता तसलें साहित्य रचपाक भरपूर वाचन आनी निरक्षणशक्त जाय पडटा आनी हें गांठवल जाय तेन्ना मुदयेर थिक कशें सोडोवंचें पडटा. ताचो प्रत्यय आमकां तांच्या लेखांनी दिसून येता.

ह्या अडेचशें - तीनशें विनोदी लेखांनी आमकां कृ.म.न कितें दिलें? कृ.म.न आमकां आमच्या आशिकुशिच्या मनशांक पळोवपाची नदर दिली. प्रत्येक मनशाचो एक सभावगूण आसता. तो सभावगूण वळखुपाची आमकां तांक दिली. तेच खातीर तांच्या लेखांतलीं पात्रां जशें की खुद्द लेखाचो नायक (बाबा), ताची घरकान्न, ताचीं तीन भुरगीं, ताची आवय, मेवणी नलू आनी तिचो घरकार, वावराडी शेंवतें, शेंवत्यालें चली, शेजारी परब, ताची बायल, तागेले चली सुरेखा, सांवळो, नागवेंकार, दत्ता, पसरकार बरड, फार्मासकार म्हांब्रो, भाडेकरु नेपाळीण, संध्या, रमा, टायगर, पाटील मास्तर, सेलीन टिचर, वितोर आदी कितलींशींच पात्रां आमकां आपलींशींच दिसतात. आमचे संवकळींतल्या आनी सरभोंवतणच्या मनशांतय हीं पात्रां आमकां दिसतात. आनी तेच खातीर आमी तांचे कडेन समरस जातात.

लेखकान आपल्या चड्श्या विनोदी लेखांनी एक प्लॉट आंखिल्लो आसा आनी खुद्द लेखकच त्या प्लॉटाचो 'नायक' जावन आसा. हो 'नायक' एक सामान्य मनीस. आनी त्या कारणान लेखकाक त्या नायकाच्या रुपान आनी आपणे घडयिल्ल्या हेर पात्रांच्या आदारान समाजाच्या गूण अवगुणांचेर आनी गंभिर विशयांचेर कोणाकच दुखयनासतना भाश्य करपाक मेकळीक मेळटा.

लेखकाचें आयज मेरेन उजवाडाक आयिल्लें अक्षरान अक्षर हांवें वाचलां. तांचो ६ फेब्रेर २०११ दिसा सुनापरांतांत छापून आयिल्लो पयलो लेख 'मैं अण्णा हूं' ते २४ सप्टेंबर २०१७ दिसा भांगरभुंयंत आयिल्लो 'भास' लेख धरून तांचें सगळें साहित्य हांवें वाचलां. फकत वाचूकच ना तर तें परत - परत वाचलां आनी तांचेर चिंतन आनी मनन केलां. आनी हें सगळें वाचतना लेखकान कितले आनी खंयचे गंभिर विशय हाताळ्ळ्यात तांचो Bird's eye view हांव तुमकां दितां. आनी ही यादी आयकतकीर तुमकांय बी अजाप जातलें.

तुमी कृ.म.च्या विनोदी लेखांचे कांय माथाळे पळयात. ते माथाळे विनोदी लेखाचे माथाळे जांवकच शकनात. देखीक 'संजय उवाच', 'अर्जूनविषादयोग', 'रामायणः पासियेसांचो अभाव', 'अध्यात्म', 'सत्याचो प्रयोग', 'एकला चोलो रे', 'घटस्फोट', 'भास', आदी. पूण इतल्या गंभिर विशयांची सांगड आयचे सरभोंवतणचे परिस्थिती कडेन जोडून ते गंभिर विशय लेखक आपले विनोदी शैलीन आमकां समजायता आनी तांचेर केन्ना केन्ना बडीय मारता ताची आमकां तोखणाय करचीच पडटली.

तांच्या लेखांतलीं पात्रां, जांव तें घरांतली वावराडी शेंवतें, ताचें धाकटें, लेखकालीं तीन भुरगीं, आवय, दिसवड्याचो मानाय सांवळो, आमीग दत्ता आनी बार्राची मालकीण वितोर आदी हीं सगळीं सामान्य पात्रां. पूण ह्या पात्रांच्या तोंडांतले 'फिलोसोफिकल' संवाद वाचतगीर तुमकां तुमचे मुखार कोण तरी तत्वगिज्ञानीच उलयता अशें दिसतलें. इतलेंच न्हय तर वाचकांक लेखांतल्या नायकागेर आशिल्ली तामू गाय आनी टायकर कुत्रो लेगीत अश्या गंभिर विशयांचेर कशे उलोवंक शकतात हाचें अजाप जातलें.

खरेपणीं लेखक समाजाच्या अवगूणांचेर बोट दवरतना ह्या पात्रांचो पुरेपूर उपेग करता. हांगा लेखकच ह्या पात्रांच्या माध्यमांतल्यान असल्या गंभीर गजालींचेर आपली उलट सुलट प्रतिक्रिया दिता म्हळ्यार अतीताय जांवची ना. जिविताचें तत्वगिन्यान तो आमकां आपल्या पात्रांच्या तोंडांतल्या संवादांतल्यान अचळय विस्कटावन सांगता. हे खातीरच वाचकांक कृ.म. म्हळ्यार एक फिलोसोफर वा तत्ववेत्तो असोच भावतलो.

लेखक ताच्या पात्रां मुखार तांची वळख करून दिवपाक कंसांत तांची जल्मतारीख, वा पेन्शन अशें कितें तरी घालता. वाचप्यांक दिसत की हें विनोद निर्मिती खातीर तशें केलां म्हण. हातूंतय लेखकान गंभीर विचार केल्लो दिश्टी पडटा. देखीक बापूय (१९११-१९८१) आनी टायगर (१९७९-१९९३) कितले वर्सां जगले तें दाखयता, आवय (म्हयनो पेन्शन सोळा हजार) म्हणजे आवय पुताचेर अवंलबून ना, व्हडलें (उगतें मळब फेम्) म्हळ्यार तें कविता करपी. पात्र २ (इकरावी आर्टस, एटीकेटी) आनी पात्र ३ (आठवी मेरेन नापास ना, सरकारी धोरणाची पयली बॅंच) हांची गिन्यानीक कुवत दाखयता. सांवळो (३६०/दिसवडो) दोतोर रायकार (जीएमसी बॅंच २००५), भगवद् गिता (मोल २३८/) म्हळ्यार भगवद् गिताय घेतना आमी सवाय ती प्रत घेतात. थंयूय आमी वांटपणा करतात आदी.

आपल्या विनोदी लेखांत लेखक गरज पडटा थंय quotations, संस्कृत शिळोक, शेरो-शायरी, सिनेमांतलीं गितां, संवाद घालता आनी ते सामके authentic आसतात. ते खातीर अफाट वाचन आनी स्मरणशक्ती जाय पडटा आनी ती लेखका कडेन आसा हाची आमकां पावला कणकणी जाणविकाय जाता. ह्या सगळ्या वरवीं लेखक आपल्या लेखांतल्या विनोदाक एका उंचेल्या पांवड्यार व्हरता. तेच बराबर वाचप्यांक लेगीत ह्या गजालींचें मुळावें गिन्यान नासत जाल्यार वाचकांक हे विनोदी लेख आनी ताचे फाटलें गांभिर्य समजुपाक कठीण वता. म्हणूनच लेखक विनोदा वांगडा वाचकांच्या गिन्यानाचोय पांवडो वाडयता.

म्हाका कृ.म.चे लेख वाचतगीर परत-परत भारताच्या म्हान व्यंगचित्रकारांची आर. के. लक्ष्मण हांची याद जाता. आणिबाणीच्या वेळार जेन्ना आपलें मत व्यक्त करूंक बंदी आसली तेन्ना ते आपल्या एका व्यंगचित्राच्या आदारान सगळे परिस्थितीचेर भाश्य करताले. जें बरोवपाक हरशीं पानांचीं पानां लेख बरोवंचे पडटले आसले.

आतां लेखक गंभीर विशय कशे विनोदी पद्दतीन हाताळटा हें ताच्या ललीत लेखांतल्या कांय प्रसंगां वरवीं तुमचे मुखार दवरतां. 'मैं अण्णा हूं' हो लेखकाचो वर्तमानपत्रांत छापून आयिल्लो पयलोच ललीत लेख! ताचो आसपाव 'चिमटे धुमके' ह्या तांच्या पयल्या पुस्तकांत जाला. ह्या लेखांतले कांय प्रसंग पळयात:

तेन्ना अण्णांचें दिल्लीक भ्रष्टाचार विरोधी आंदोलन चलतालें आनी त्याच समयार गोंयांत भारतीय भाशा सुरक्षा मंचाचें आंदोलनय चलतालें. लेखांतलो नायक (बाबा) आनी तांचीं भुरगीं अण्णांक तेंको दिवपाक उपोशणाक बसपाचें थारायतात. तोंड धुतना बाबाक याद जाता की अण्णाक तेंको दिवप म्हळ्यार माथ्यार I am Anna ही तोपी जायच. तोपये बगर उपोशणांक बसप म्हळ्यार जगार हांशें करून घेवप. बाबा आपले घरकान्नीक सांगून तिच्या धव्या घागऱ्याची एक तोपी शिंवून घेता आनी तिचेर I am Anna अशें स्केच पेनान बरयता.

इतल्यान ताचो निमणो पूत म्हण्टा "बाबा! तुमी BBSM चे वांगडी न्हय? इंग्लिशींत बरोवन कशें जातलें?" तो I am Anna मुखार Not in English जोडटा. ह्या दोन वाक्यां भितर लेखकान BBSMच्या आंदोलनांतलो विरोधाभास दाखयला. हाचेर आनीक हांव चड फोडणीशी करिना.

मुखार लेखांतलो नायक उपोशणांक बसता आनी इतल्यान ताका घरा कडल्यान मोबायलाचेर घरकान्नीचो फोन येता. घरकान्न म्हण्टा "हांवें हुमणाक वांटूंक घेतिल्लें, ज्युस्त लायट गेली. वाड्यार सगळे कडेन आसा. मात्शें पळयात न्हय?" बाबा म्हणटा, "आपूण उपोशणांक बसलां खबर ना?" त्या उतराक लेखकाची घरकान्न म्हण्टा, "तुमी उपोशणाक बसले म्हण हांगा खावपी मनश्या नांत? पयलीं लायटीच्या ऑफिसांत वचात आनी मागीर उपोशणांक बसात." बाबा लायटीच्या ऑफिसांत वता थंय ताका दामू लायनमन दांत कोरीत बसला तें दिश्टी पडटा. बाबा ताका सांगता "आमची लायट ना मरे! वाड्यार सगळे कडेन आसा." त्या उतरांक दामू लायनमन म्हण्टा, "खांब्या वेलो फ्युज गेला आसतलो" आनी तांचे कडेन एकूच निसण आसा आनी सांवळो ती व्हडल्या शिगम्याक घेवन गेला. आतां आमी जाण्टे जाल्यात तातूंत पावसान शेळो धरला. तें आयकून बाबा मोन्यांनी आपल्या तकलेवेली तोपी काडटा आनी तातूंतली पन्नासाची नोट दामूच्या हातांत दवरता. दामू खांब्या वेलो फ्यूज सारको करपाक वता. हो सगळो प्रसंगच तुमी तुमच्या दोळ्यां मुखार हाडात. तुमकां हातूंतलें गांभिर्य कळटलें.

हे एकेच घडणुकेन लेखकान अण्णाच्या भ्रश्टाचार विरोधी आंदोलनाची शोकांतिका दाखयल्या. लांच घेवप हाचे बरोबर लांच दिवपय एका तरेचो भ्रश्टाचारच. आमी आमचे खाजगी जिणेंत आमचीं कामां बेगीन जावपा खातीर लांच दितात आनी त्योच बराबर भ्रश्टाचार विरोधी आंदोलनाकय तेंको दितात हो विरोधाभास लेखकान कोणाकच दुखय नासतना विनोदी शैलींत सांगला.

तांचो आनीक एक लेख 'पाप-पुण्य' हो घेयात. तातूंत तो 'कबिराचे दोहे' आनी 'मनुस्मृतींतले' दाखले दिवन विनोदान म्हण्टा की आमी सरसकट सगळे गोंयकार जांकां नुस्त्यां शिवाय जेवणाची एकूय उंडी ताळ्या सकयल वचना हे हमखास नरकांत वतले. आमची दानतय बी कशी उखलापी तें लेखक उडिशांतल्या पुरग्रस्तांक आमी कशे तरेन मदत करतात ताचो एक प्रसंग दिवन सांगता. निमणें लेखक हो ललीत लेख सोंपयतना म्हण्टा की 'पाप पुण्य हो आमच्या मनांचो खेळ. दर एकल्याचें भवितव्य ताचो आचार विचार ठरयतात' असो फिलॉसॉफीकल आनी गंभीर विचार तो मांडटा.

म्हाका तांचो आनीक एक आवडलेलो लेख म्हळ्यार 'तळीराम'. राम गणेश गडकरी हांच्या 'एकच प्याला' ह्या अजरांवर मराठी नाटकांतलें 'तळीराम' हें एक मुखेल पात्र. ह्या पात्राची विनोदी शैलींत इतली विस्कटावणी हाचे पयलीं कोणेच करूंक नासतली. लेखाच्या शेवटाक लेखक म्हण्टा "आमी सोरो काबार जाय सर पितात आनी मागीर सोऱ्यान आमका काबार केले म्हण सोऱ्याक गाळी घालतात', पूण तळीराम शेवट मेरेन सोऱ्याक दुशण दिना. विचार करपा सारकी गजाल ही.

'नितळ घर अभियान' हो लेख म्हळ्यार कृमन आयच्या ज्वलंत विशयाचेर केल्लें भाश्य. आमी नितळसाणे विशीं खऱ्यानींच प्रामाणिक आसात व्हय? हाचेर तो प्रस्न चिन्न उबें करता. हें सगळें लेखक आपले विनोदी शैलींत सांगता. लेखांतल्या नायकाच्या घरांत इतल्यो नाका आशिल्ल्यो वस्तू सांबाळून दवरिल्ल्यो आसतात त्यो निवळ करपाक ताका आनी ताच्या घरच्यांक पुराय दिसूय पावना. मागीर नायकाची आवय म्हण्टा "२०१९ मेरेन सगळें लींप जावंक जाय मरे? आसा टायम!" ह्या एकूच वाक्या वेल्यान नितळसाणे विशीं आमी कितले घाळ आसात तें लेखक सभे माजार हाडटा. नितळसाणे सारख्या गंभीर विशयाचेर आमी कितले बेफिकीर आसात ताचेर लेखक विनोदी शैलीन बडी मारता.

आतां सत्तर दीस चलिल्लो भारत आनी चीन हांचे भितरलो 'डोक्लाम' वाद घेयात. तांच्या 'शाणे आनी पिशे' ह्या लेखांत (भा.भु. १० सप्टेंबर २०१७) तांणी ह्या ज्वलंत आनी गंभीर विशयाचेर कशें भाश्य केलां तें पळयात. आमकां गोंयकारांक खंयच्याय विशयाचो खोलायेन अभ्यास करिनासतना ताचेर मत परगटावपाचो खूब घोस्त. ह्या लेखांत आसल्यांचेर लेखक जुस्त बडी मारता. हो परिच्छेद पळयात. "हिचो बापूय हिका पळोवपाक आयलो. आमी दनपारचे जेवणाक बसले. बिरेस्तार आशिल्ल्यान जेवणाक तेफळ कडी आनी कारात्याच्यो फोडी आसल्यो. म्हण्टकच आमी 'डोक्लाम' हांगा भारत चीन सैन्या भितर तयार जाल्ल्या तणावाचेर उलोवप सुरू केलें. "एकोणीसशें बासश्टांत चाचा नेहरून चीनाचेर पातयेवन सामकीं पिशेपणां केलीं!

तुमकां कितें दिसता जांवयबापू! कारातीं मात्शी कोडू उरल्यांत. सारकी चेंपणांत घालुंना गो बाय? हांव हो प्रस्न असो सोडयन!" अशें म्हणून ताणें फाटल्या शिताचेर ताका कडी घेवन भारत चीन सिमावाद सोंपयलो.

आतां तुमी म्हण्टले शिवराक जेवण आनी डोक्लाम वाद हांचो सबंद कितें? तर जेवण शिवराक आशिल्ल्यान तें पोटांत धुकलपाक त्रास जाता आनी नुस्त्याचे कांटे बी लागपाचो भंय नाशिल्ल्यान उलोवंक जाय म्हण कसलो तरी विशय उलोवप. Between the lines आमी गंभीर विशयाचेर कितले घाळ आसा तें लेखक आमकां

सांगता.

'प्रस्न आनी जापो' (भा.भु. ६ ऑगस्ट २०१७) ह्या आपल्या ललीत लेखांत GST सारको गंभीर विशय जो सद्याक देस भर गाजता त्या विशयाचेर लेखक आपले विनोदी शैलींत कशें भाश्य करता तें पळयात:

''म्हाका बायलां विशीं खूब कळवळो! हें म्हाका वळखतात त्यो सगळ्यो बायलो सांगतल्यो. म्हण्टकच ह्या देसांत GST लागू जातकच म्हाका तांचो प्रस्न उखलून धरचोसो दिसलो. शेंवत्याचें धाकटें आमगेर आयिल्ले कडेन हांवें हो प्रस्न ताचे सामकार मांडलो. ''आगो! बिंदी, कांकणां हांचेर शुन्य प्रतिशें GST आनी सेनिटरी नॅपकिन्सांचेर बारा प्रतिशें GST. हो अन्याय अशें दिसना तुका?'' म्हज्या आवाजांतल्यान बायलां विशींचो कळवळो स्पश्ट दिसतालो. ''बायलांचें बायलो पळोवन घेतल्यो, हाका लागून तुका कसलो त्रास जालो? असो परतो प्रस्न विचारून म्हजें तोंड बंद केलें.''

आयकुप्यांक खबर आसतलें की लेखकान मांडला तो मुद्दो घेवन देस भरांत बायलांनी आंदोलन केल्लें आनी वित्तमंत्र्यांक निवेदनूय भेटयिल्लें. लेखक हांगा सांगूक सोदता की बायलांचे प्रस्न सोडोवंक बायलो समर्थ आसात म्हण. दादल्यांनी तातूंत मेतेर जावपाची गरज ना हें लेखक आमकां सुचयता.

आतां निमणी देख. हांव पयर आयतारा दिसा 'भांगरभुंय'त उजवाडाक आयिल्ल्या 'भास' ह्या लेखाची दितां. भास हो गोंयकारांचो सामको लार्गीचो विशय. हे भाशे खातीरच गोंयकारां भितर वेर आयल्या. हो सगलो गंभीर विशय लेखकान आपले विनोदी शैलींत कसो हाताळल्लो तें पळयात. लेखक बरयता ''गोंयकारांची माय भास खंयची हें सोदप फकांडांचें काम न्हय. गोंयकार म्हण्टगीर ताची मायभास कोंकणी आसप हें सभावीक. पूण थोडी ''माजी मातृभाशा मराठी आये'' अशें सांगतात. आमच्या वाड्यार सात जाणांची आवयभास इंग्लीश आनी दोगांची पुर्तुगेज आसा अशें म्हाका सांवळो सांग. सगळे नीज गोंयकार! पयर म्हाका कामा खातीर मोरजे वच्चें पडलें. थंय रुसी लोकांची लोकसंख्या चड आसा. तुमचे म्हायती खातीर. फुडें फाटीं आमकां थंय मिखायल नांवाचो सरपंच मेळटा आनी बायलांक राखीव आशिल्ल्या वॉर्डांत कापिटोलीना पंच जायत सांगूक नज.''

लेखक फुडें म्हण्टा ''गोंयकारांक इतल्यो भासो येतात की आतां गोंयकारांची आवयभास खंयची आसत हें आमी छातीठोक पणान सांगूक शकनात. आमी इतल्यो भासो शिकून उपेग कितें हो प्रस्न पडटा. आयज आमकां एकामेकां कडेन संवाद सादपाक वेळ तरी आसा? ''केदो व्हडलो गंभीर विचार हो! आपले विनोदी शैलीन लेखकान सोंपेपणान सभे माजार दवरला.

अशेच अणभव वाचप्यांक कृमचे बाकिचेय लेख वाचतगीर पावला कणकणी येतात. हें आपणें खंय तरी पळयलां, आपल्याकय अशेंच घडलां वा आपणेय अशेंच केलां अशें तो हें सगळें वाचतना मनांतल्या मनांत म्हण्टा आनी ह्या सगळ्यां कडेन आपूणय समरस जाता आनी हेंच लेखकाचें यश जावन आसा.

आतां इतले गंभीर विशय लेखकान हाताळल्यात म्हण्टगीर कृ.म.क फकत विनोदी लेखक तरी कसो म्हणप? म्हजे हिसपान हे सगळे लेख म्हळ्यार एक sugar coated pill भायर विनोदाचें आवरण घाल्लें गंभीर विशयाचेर केल्लें भाश्य. अश्या वेळार म्हाका फामाद आयरीश लेखक आनी विचारवंत ऑस्कर वाइल्ड हांच्या एका सुभाषिताची याद जाता. तो म्हण्टा, "If you want to tell people the truth, make them laugh, otherwise they'll kill you,"

कृ.म.च्या 'चिमटे आनी धुमके' ह्या पुस्तकाचे प्रस्तावनेंत फामाद कोंकणी लेखक भौ. दिलीप बोरकार म्हण्टा: ''कृ.म.च्या दरेक लेखांत, लेखांतल्या दरेक पानार, पाना वेल्या दरेक परिच्छेदांत, परिच्छेदांतल्या दरेक उतरांत ताणें कोणाची तरी उडयल्या हाची कल्पना येता एक दोनच अपूरबायेचे प्रसंग आसल्यार मोस्त्र म्हूण ते सांगूंक येतात. पूण हांगा दरेक उतरच त्रोसां मारीत-मारीत वता. तेन्ना खंयच्या प्रसंगाच्या वर्णनाक हांसचें आनी खंयच्या प्रसंगांत अंर्तमुख जांवचें तेंच कळना. त्रोसां मारलीं, ताचेर कोणय हांसलो म्हण साहित्य उजवें आसना. पूण अंर्तमूख जांवन ताचेर विचार करूंक लायता, हांसतां- हांसतां मनांत तिडक हाडटा तें साहित्य मोलावप भोव कठीण.''

आयज आमी आमचे सरभोंवतणी कितें पळयतात? समाजांतलीं नितिमुल्यां ल्हवू - ल्हवू नानपयत जायत चल्ल्यांत. जातीं-जातीं भितर, भासां -भासां भितर संघर्श वाडपाक लागला. स्वार्थी वृत्ती वाडत चल्ल्या. आयज राजकारण्यांनी कमराचें सोडून कपलाक बांदलां आनी तरीय ते उजळ माथ्यान समाजांत भोंवतात. समाजकारण म्हळ्यार आपलींच घरां भरप असो अर्थ करून घेतला. अश्या ह्या गंभीर विशयांचेर बडी मारप खूब गरजेचें आनी हो वावर कृम सातत्यान करता. कृ.म.चे विनोदी लेखां कडेन ते फकत विनोदी म्हण पळयनासतनाच्या गंभीर विशयां कडेन पळोवपाचें तें एक वक्त म्हळ्यार अतिताय जावंची ना.

खरें म्हळ्यार कृ.म.न आपल्या सगळ्या लेखांनी गंभीर विशय घेवनच आपले आगळे वेगळे विनोदी शैलीन तांचेर भाश्य केलां. ते लेख फकत विनोदी म्हणून वाचून आनी हांसून कुशीक दवरपाचे न्हय हें आमी लक्षांत घेवंक जाय.

कृ.म.च्या सगळ्या साहित्यांतलें गांभिर्य तुमच्या मुखार दवरतलो जाल्यार तांच्या साबार लेखांतल्यो आनीकूय पती दिवंक जातात. पूण वेळेच्या बंधना खातीर हो पेपर इतल्याचेरुच हांव आटापतां. देव बरें करूं.

*(साहित्य अकादेमी आनी गोंय विद्यापीठ हांणी २८ सप्टेंबर २०१७ ह्या दिसा आयोजीत केल्ल्या 'विनोदी कोंकणी साहित्य : एक चिकित्सक अभ्यास' ह्या परिसंवादांतल्या 'विनोदी कोंकणी साहित्यांतलें गांभिर्य' ह्या सत्रांत हांवें वाचिल्लो पेपर)*

संपर्क : 9923306751



# कुवाडें

कृ. म. सुखठणकार



'जीण हें एक कुवाडें. आमी एकठांय कित्याक येतात? पयस कित्याक वतात?...' दत्तान म्हणलें. वाक्याच्या शेवटाक टिंब टिंब घाला कारण तेन्नाच ताणें व्हिस्कीचो ग्लास तोंडाक लायिल्लो. आमी वितोरिल्या टेर्रासार बशिल्ले. म्हजे घड्याळीर इकरा वाजून अठ्ठावन मिणटां जाल्लीं आनी हांव बारा वाजपाचीं वाट पळयतालों. तो दीस शेनवार आशिल्लो म्हणटकच हांव आयतार उदेवपाची वाट पळयतालों. शेनवारा हांव मद्यपान करना तुमचे म्हायती खातीर. हो सगलो तपशील म्हत्वाचो न्हय, म्हत्वाचें दत्ताच्या तोंडांतलें वाक्य- जीण हें एक कुवाडें! हातूंतलें 'कुवाडें' हें उतराचेर हांवें थोडो अभ्यास केलो. जीण हें कुवाडें जालेंच, पूण जिणेंत आमकां खुबशीं कुवाडीं पड्यत तीं निमणीं मेरेन सुटनात. जिणेंत बरेच प्रस्नूय उपरासतात. आतां कुवाडीं आनी प्रस्न हातूंतलो मूलभूत फरक आमकां कळपाक जाय नाजाल्यार कुवाडें आनी प्रस्न हातूंत घुसपून नवें कुवाडें तयार जांव येता. प्रस्नाक जाप तयार आसता, ती जाप खबर नाशिल्ल्या कारणान प्रस्न तयार जाता अशें दत्ता म्हणटा. कुवाडें सोडोवचें पड्टा आनी तें चड्शें सुटनासतनाच उरता. जे शब्द कुवाडें सोडयतात तांकां हांव कितें म्हणटा तें बरें कळटलें.

हांव बाजारांत वतना कापडाची पिशवी घेवन वतां. प्लास्टिकाचेर बंदी आतां आयली. हांव घराचे आंगणांत सारण ल्हानपणा पासून मारतां. सचीन तेंडुलकर (भारताचें रत्न) सारण स्वच्छ भारत अभियान सुरु जातकच मारपाक लागलो. सोड, तर, हांव बाजारांत प्लास्टिकची पोती दिल्यार लेगीत घेना हें सगळ्या पसरकारांक खबर आसा म्हणटकच ते म्हाका सामान कागदांत गुंडाळून दितात. घरा येतकच ही कागदां मेकळी करतना तातूंत अर्दीच सोडिल्लीं शब्द कुवाडीं मेळटात. एक उबें सोडयलां, पसतिसावें आडवें सोडयलां, मदीं कांयच ना अशे अवस्थेंत अर्दकुटें सोडिल्ल्या कुवाड्यांक पळोवन म्हाका भरून येता, कारण सांगपाक जांवचेना. पयर बरडागेर म्हयन्याचें सामान हाडपाक गेल्लों, 'एक चावी छाप फस्क, हें पटयेर बरयना रेव मार फॉल्गा!' बरडान म्हणलें तशें म्हाका भरून आयलें. बरडान एक फस्क सोडलें तें भरून येवपाचें कारण न्हय, कित्याक भरून आयलें हाची जाप म्हजे सरी ना. जाची जाप ना तें न सुटलेलें कुवाडें अशें म्हजें मत तुमचें मत घडये दुसरें आसत. आमी शब्द कुवाड्यां विशीं उलयताले. आमची कुवाड्यां कडेन पयली वळख शब्द कुवाड्यांतल्यानूच जाता असो म्हजो अभ्यास सांगता. आनी पिराय जाता तशी तातूंत नवे नवे कुवाड्यांची भर पडत वता. तीं सोडोवपाचो यत्न करत आमची जीण सरता. आसूं. आदलीं शब्दकुवाडीं सोडोवप्याचे भाशेचीं आनी सामान्य गिन्यानाची परिक्षा घेतालीं. कुवाडीं मराठींतल्यान आसतालीं देखीक, 'नाही' च्या उलट होकारार्थी शब्द वा भारताचा शर्टाला गुलाब लावून फिरणारा पंतप्रधान. वर्सां वतात तशीं आमचे जिणे वांगडा हीं कुवाडींय कुम्प्लीकाद जायत गेलीं. देखीक, अमिताभ आनी फरिदा जलाल ह्यांचा अभिनय असलेला एक सिनेमा, जलाल आगा आनी डॅनी डँगजोंग्पा ह्यांचा एक सिनेमा. एक दीस सेलीन टिचर येवंक नाशिल्ली, तिचो पिरेड ऑफ आशिल्लो. हांव शब्द कुवाडें सोडयत बशिल्लों. एके कडेन म्हजी गाडी थांबली. 'एक देव माणूस' पांच अक्षरांचें एक उतर आशिल्लें. हांवें सरळ बरयलें 'भाऊसाहेब'. तरी गाडी फुडें वचना जाली म्हणून रेखा हुबळीकराक विचारलें. ताणें सट्ट करून जाप दिली 'महात्मा गांधी'. 'अरे कुपमंडुक होऊ नकोस बाहेर पण जग आहे' ताणें म्हाका सुनायलें. म्हाका खंय खबर भाऊसाहेब सोडून आनीक देव माणूस आसात म्हणून! रेखा मदीं मदीं सोलापुराक बी वतालें ते खातीर ताका महात्मा गांधी देव माणूस म्हणून कळ्ळां जांवये.

कुवाडीं जशीं तकलेक व्यायाम दितात तशीच तीं मनशाची प्रतिमा वाडोवपाक मजत करतात हें खूब जाणांक खबरना. ह्याच कारणाक लागून खूब कमी लोक कुवाडीं सोडोवपाक बसतात. थोड्यांक कुवाडीं सोडोवप कमीपणाचें दिसता. थोड्यांक तो वेळेचो अपयव दिसता पूण आतां हांव कितें सांगतां तें वाचतकच खूब जाण कुवाडीं सोदून काडून सोडोवंक बसतले आनी कुवाड्यांक परत बरे दीस येतले अशी खात्री आसा. स्वताची प्रतिमा वाडयतलो जाल्यार खंयचेय दिसाळ्यांतलीं कुवाडीं घेवन चलना. Indian Express वा Times of India सारकेंले दिसाळ्यांतलीं बारीक फोंटांत छापून येवपी कुवाडीं घेवन बसचें पड्टलें. तीं सोडयतना कॅम्लीनचें रिट्रेक्टेबल पेन वापरचें म्हणटकच पळयतल्याक तुमी पट्टेचे कुवाडीं सोडोवपी दिसतले. आतां हांव म्हजो अणभव सांगतां. हांव Indian Express ह्या दिसाळ्यांतल्या बारीक फोंटांतले कुवाडें पानाच्यो दोन घड्यो करून वांगडा घेतालों आनी बशींत कुशीक कोण बसला हें पळोवन ती घडी भायर काड्यलों कारण कोणाय सामकार प्रतिमा वाडोवन अर्थ ना. म्हाका याद जाता त्या प्रमाण हांवें उबें एक सोडयल्लें. 'Nick name of Indian opening batsman' जाप आशिल्ली 'Sunny'. हांव ती घडी घेवन सगल्याक फिरतालों. एक दीस म्हज्यांत चुडिदार आशिल्लो म्हणटकच हांवे ती घडी चुडिदाराक दिसता तशी धरली. बॉल्सांतल्यान कॅम्लीन रिट्रेक्टेबल पेन काडलें आनी हांव चिंतता अशें दाखोवपा खातीर तें म्हजे खाडकेर आपटुपाक सुरवात केली आनी मडगांवां पावतकच बंद केलें. एका सुमाना उपरांत मडगांवां वतना परतोय तोच चुडिदार म्हजे म्हज्यांत बसलो. हांवें तीच घडी चुडिदारा सामकार धरली. 'Indian Express is running out of riddles itseems' ताणें म्हाका म्हणलें. चुडिदारान 'Sunny' इतले बारिकसाणेन पळयलां हें म्हजे लक्षांत आयलेना.'What happened you know I am unable to solve this particular puzzle so it is a challenge for person like me who is expert

in solving puzzles. I am having this special retractable pen for this purpose'. हांवें चुड्डिराक पेन दोन तिनदां भायर भितर करून दाखयलें, तिचेर ताचो कितलो परिणाम जालो खबरना. हांवें चूक केली ती तुमी करू नाकात, दर खेपे नवे दिसाळ्याची घडी तुमचे बॉल्सांत आसूंदी, परिणाम शेर्त जातलो.

शब्द कुवाडें सोडोवपाचो फायदो आसा तो तुमकां हांवे सांगलो. दर गजालीक दुसरी बाजू आसताच. शब्द कुवाडीं सोड्यत बसत जाल्यार ताचें वेसन लागू येता. तीं सोड्यतना तकलेचो भुसो जरीय जालो तरीय तीं सोड्यतना वेगळीच नशा तकलेक चड्टा आनी आशिकुशीक आशिल्ले जगाचो विसर पड्टा. हांवें कांय जाणांक संडासांत बसून शब्द कुवाडीं सोड्यतना पळयल्या. आमचो दत्ता, मायाजाल मासीक घेवन संडासांत वतलो. हे मासिकांत चंदेरी दुनियेचेर आधारीत कुवाडीं आसतालीं. एकदां आमी आमच्या सोयऱ्याच्या लग्नाक खांडेपारां गेल्ले आनी एके रातीक आमी तांगेर उरिल्ले. सकाळीं दत्ताक संडासांत वतना कानाक लाप्स आनी हातांत मायाजालाची कवळी घेवन वतना पळयलो आनी म्हाका कल्लऽ जालें. लग्न वेलंगा नरिसंवाचे देवळांत आशिल्लें. हो कुवाडीं सोड्यत बसलो जाल्यार भायर लायन लागतली हें चिंतुनूच म्हजे पोटांत घांस मारलो. हांवें दारा भायर रावन दत्ताक साद घालो.

''दत्ता, कुवाडें सादारण आस मरे? हांव भायर आसा म्हणून म्हणलें.''

''तूं वयर सकयल कित्याक जाता? अर्दे हांवें भायरूच सोड्यल्लें. तूं दत्ता दत्ता करशी जाल्यार आमी वेलंगां पावचेनात!'' दत्तान आपले स्टायलीन शिटकावणी दिली. म्हज्या फाटल्यान आनीक दोन अनवळखी चेरे घुटमळूंक लागले. तांचीं तोंडां म्हाका तांची काणी सांगतालीं.

''दत्ता खंय घुसपला?'' हांवे दत्ताक परत जागयलो.

''दिलीप कुमार आनी सायराबानू अभिनीत एक चित्रपट.''

''बैराग''- कोण तरी फाटल्यान पोटांत घांस मारिल्ल्या वरी आड्डलो.

''ना लागना''- दत्ताचो भितरल्यान रिस्पोन्स.

''गोपी''. - आनीक कोणाचे पोटांत घांस मारलो. म्हाका फाटल्यान पळोवपाची छाती जालीना.

''ना लागना''.

''सगीना''- येजमानाचो आवाज हांव वळखालों.

''बरोब्बर!'' दत्तान भितरल्यान सांखळी ओडली आनी भायर आयलो.

येजमानाक चलयेचे लग्ना परस आपणें कुवाडें सोडोवपाक हातभार लावन दत्ताक भायर हाडलो हाची खोस चड जाल्ली. ताणें त्याच नेटार बसप्पाक (ब्रास बैंड, बाणसतारी पुला जवळ) सगीना सिनेम्यांतलें 'साला मैं तो साब बन गया' हें पद वाजोवंक सांगलें. सोड.

आमकां लोकसाहित्य, धालो, मांडो, ओपारी आनी उमाणी दायजान मेळ्ळां. सगळें हेच मातयेंतलें. म्हाका पयलीं खबरनाशिल्लें. म्हजें लग्न थारतकच, उलोवणी करपाक गेल्ले कडेन हिचे आवय कडल्यान कळ्ळें.

''जांवय बापू, आतां हांव तुमकां जांवय बापूच म्हणटलीं''.

''म्हणा. आनीक कितेंय म्हणचे परस हेंच म्हणल्लिें बरें''.- जांवय बापू.

''तुमी विनोदी आं! जांवय बापू, तुमी बायचें शिवणकाम, भरतकाम पळयलें. बायक फुगड्यो, धालो, सगळ्यो ओपारी, उमाणीं, सगळें सगळें पाठ. हें दायज आमी फुडें चलोवंक जाय न्हय?''

''हय तर!''

''आमी एकमेकाक उमाणीं घालतात. आयलेना जाल्यार बें म्हणपाक लायतात आनी दावो हात नाकाक लायतात. बाय, जांवय बापूक सँपलाक एक उमाणे घाल गो''.

हिचे आवयन बायक अशें म्हणू नाका हांव बायच्या खंयच्या हाता वटेन बसलां तें पयलीं पळयलें. म्हाका लग्ना आदींच अपशकून नाका आसलो.

''बाय घाल गो बरेंशें कठीण, लग्ना आदींच बें म्हणपाक लाय!''- हिचो बापूय.

''तेंक तेंक म्हणल्यार तेंकना, अब्बा म्हणल्यार तेंकता''- हिणें अभिनय करीत म्हाका उमाणें घालें. बायलां लिप्स्टीक लायतकच ओंठ कशे हालयतात तशे हिणें हालयले. मध्यस्तान आपली कवळी सांबाळीत 'अब्बा'न म्हणलें आनी म्हजेर आनीक उपकार केले ते हांव केन्ना फेडटलों खबरना.

''ओंठ!!!''- जांवय बापू.

''बायक पळयलें मूं कितलें मालिकर्याद तें! येन्नाच्यानूच घोवाचें जालें. कितलें सोंपें उमाणें घालें पळय चुतड्यन!''- हिची आवय, कवतुकान.

''मागीर? संस्कार ते आमचे, ते खंय वतलें?''- हिचो बापूय.

हातूंत संस्काराचो भाग कितें आशिल्लो तो म्हाका कळ्ळोना. लग्ना उपरांत म्हजे तेंकिल्लें ओंठ कितेंय म्हणल्यार लेगीत उगडलेना ती गजाल खरी.

आमी जर बारीक विचार केलो तर आमकां खूब कुवाडीं सांपडटलीं जांची आमकां जाप अजून सांपडची आसा. रामायणांत जाका आमी पुरषोत्तम म्हणटात तो आपले घरकान्नी वांगडा असो कित्याक वागलो तें एक कुवाडेंच. रामायणकार (गदिमा न्हय) वाल्मिकीक लेगीत हाची जाप सांपडूंक ना आसतली. वाल्मिकीक आपलींच घरचीं अशीं कित्याक वागलीं हेंच कुवाडें सुटूना. केन्ना केन्ना म्हाका रावण खोरो जेण्टलमॅन दिसता, दर एकल्याची पळोवपाची नदर. तामिळनाडूंत रावणन नांव हांवें आयकलां, गोंयांय आयकल्ल्याची याद जायना. महाभारतांत कुंतीन कर्णा कडेन असो वेव्हार कित्याक केलो हेंय एक कुवाडें. कुंतीन ताका वाऱ्यार सोडलो आनी सुर्यानूय ताची वासपूस केलीना. हालीं कलीयुगांत मात बरोवप्यांनीं ताचेर पुस्तकां बरोवन ताची दखल घेतली. आमचे निजी जिणेंतूय अशीं कुवाडीं आमकां पड्यत आनी तीं निमणे मेरेन सुटनात. सीमा, रेखा, संध्या आमगेर येतालीं. तामून दूद दिवपाचें कमी करतकच हीं आमगेर येवपाचीं साप्प बंद जालीं. हीं फकत आमगेर मेळायांक व्हरपाकूच येतालीं? भुजंगरावान रेखाक गांवांक कित्याक धाडलें हें व्हडलें कोडें. ताका जांवय शेतकामती जाय आसलो जाल्यार हांवूय शेतकामती हाची हांवें ताका जाणीव करून दिल्ली.

''अहो, आमचं पन छोटसं भाट आहे राव'' हांवें जाता तितली

ग्रामीण भास उलोवपाचो यत्न केलो.

''असं व्हय!''- भुजंगराव.

''मग काय म्हनता पाटील! दोन फणस, चार काजी, दहा माड, एक आंबाडो असं खूब काय काय आहे. बाजारात जावं लागत नाही''.

''असं व्हय!''- भुजंगराव.

''मग काय विचारता साहेब! आमी वेळ प्रसंगी नांगर पण धरू. मी तुम्हाला सांगतो बरं का! मी दुसरीत असताना 'भैरूचे औत' माझा आवडिचा धडा होता. तो मला आज एवढ्या वर्षा नंतर सुद्धा तोंडपाठ आहे तुम्हाला म्हणूनच दाखवतो. पहाट झाली, भैरु उठला, बैल सोडले, औत घेतले, शेतात जाऊन औत धरले, दुपार झाली औत सोडले, बैलाना वैरण घातली, बैलाना पाणी पाजले, भैरूने नंतर काय केले सांगायची गरज आहे का पाटील?''

''बस झालं बस झालं''.

''आमचं काम झालं म्हनायचं!''

''हो हो तुम्ही निवांत रहा''.

हांव निवांत रावलों आनी भुजंगरावान दुसऱ्याच दिसा रेखाक एशटींत बसोवन गांवाक धाडलें. कित्याक तें ताका, रेखाक आनी निर्मात्याक खबर. म्हजे खातीर तें कुवाडेंच उरलें. मागीर नांगर हातांत घेवंचो अशें म्हाका केन्नाच दिसलेना. कित्याक दिसलेना हेंय म्हाका पडिल्लें कुवाडेंच. घड्ये नांगर चलोवपाक गोंयांत सुवात उरलिना हें कारण जांव येता. हांवें म्हजे परीन हें कारण सोदलां.

जनावरां भितर (हातूंत मनीसूय आयलो) फकत आमी कोड्यांत उलोवंक शकतात, तातूंत चड करून बायलो. तांची भास समजता सर आमची जीण सरता.

''माड्डोळा ह्या दिसांनी बरेऽऽ हाते येता आसतले न्हय?''- ही.

''हय. बाजारांत घमघम पड्य''.- हांव. सांजचो हांव म्हाळशेचें दर्शन घेवन परत येतां.

हातो हाडलो?- ही, सालांत उबी रावन.

''केन्ना सांगिल्लो?''- हांव, फॅना खाला बसत.

''तुमकां सगळें फोड्न सांगूक जाय''- ही, आयिल्ली तशी रांदचेकुडींत वचत.

अश्यो कितल्योश्योच देखी म्हज्यान दिवंयेतात. हालींचीच गजाल, हांव बाजारांत वतालों.

''आमी खतखतें खाल्यार खूब तेंप जालो न्हय? आई आयिल्ली तेन्ना तिणे केल्लें. घरांत फकत दुदया शीर आसा''.- ही

''खूब तेंप खंय जाला गो?''

''आई येवन गेल्यार तीन म्हयने जाले''.

''अशें? म्हाका कालूच येवन गेल्याशी दिसलें! तिणें केल्ल्या खतखत्याची रूच अजून जिबेर आसा म्हणून जायत''. हांवें म्हणलें आनी कड्सरलों. बाजारांतल्यान येवन हांव फॅनाखाला बसतां थंय आसा ही हांवें हाडिल्ल्या सामानाची पिशवी उस्तूंक लागली.

''खतखत्या सामान हाड्ना?''

''तुवें खंय सांगलां गो म्हाका? तुवें म्हणला फकत खतखतें खाल्यार खूब तेंप जालो. खतखत्या सामान हाड म्हणून स्पश्ट सांगपाक तोंड ना?''

''सगळें फोड्न सांगपाक जाय?''

''म्हणजे, दीस गेल्या अशें बायलेन सांगल्या बराबर घरांत आंबल्यो, चिंचो, लोणचीं हाड्न उडोवपाचीं दुवाळे लागल्या समजून?''

''हय हय अशे घोव आसात हे जगांत!''

हांव त्या घोवांक आयुश्य मागीत फॅना खाला आड पडलों. दादले जरीय कुवाड्यांनी कमी उलयतात अशें हांवें म्हणलां तरीय ताची नोंद सगळे घेतात. जेन्ना कोणीय कुवाड्यांनी उलोवपाक सुरवात करता तेन्ना दुसरो ताका 'तुजें म्हाका नरो वा कुंजरो वा नाका आं कितें सांगपाचें आसा तें सरळ सांग' अशें म्हणून चीप करता. धर्मराज बाबडो एद्या व्हडल्या महाभारतांत एकांच कुवाड्यांन उलयलो आनी येदो व्हडलो बोवाळ जालो म्हणून दादल्यांनी उलयतना सादूर रावपाची गरज आसा अशें व्यास सांगता जांवये. कुवाड्यांनी उलोवन दुसऱ्यांचे लुखसाण जांवचेना ही जतनाय घेवप गरजेचें. धर्मराज्याच्या 'नरो वा कुंजरो वा'न कौरवांचें भरपूर लुकसाण जालें आनी धर्मराजाचें फकत बोंट (एकूच) झडलें. हो न्याय खंयचो तो धर्मराजूच जाणा! धर्मराजाच्या 'नरो वा कुंजरो वा'न आमकां त्रास जालोना पूण बरडाल्या कुवाड्यांनी आमकां भरपूर छळ्ळा (म्हाका तरी). केरोसीन (पेत्रोल) भांगर आशिल्लें तेन्नाचे दीस. म्हयनो म्हयनो पेत्रोल मेळप ना. अशे परिस्थितींत पेत्रोलाची खबर काडपाक आई म्हाका धाडी.

''पेत्रोल केन्ना येतलें कितें खबर बी कळ्ळ्या?'' आमचें खातें पटयेर चलतालें म्हणटकच म्हज्या आवाजांत भयंकर नमळीकाय आसताली.

''पेत्रोलाची कितें वयल्यान आकाशवाणी जाता?''- बरड.

''तरीय? नागरी पुरवठो खात्या कडल्यान कितेंय कळोवणी?''

''खातीं कळोवणी करपाक आसतात? खबर ना! म्हाका दिसलें पुरवठो करपाक आसतात!''

''आतां म्हयनो मायज जालो न्हय पेत्रोल मेळ्ळ्यार!''

''आरे आमी साडे चारशीं वर्सां काडलीं मेकळे जावपाक. तुमचे पिड्येक एक म्हयनो पेत्रोलाची वाट पळोवपाक पासियेंस ना''.

''तरीय?''- हांव.

''हांवें वेनेजुयेलाच्यान बोट सुटल्या म्हणून आयकलां. ती मुरगांवां धक्याक लागतली. मागीर पेत्रोल कंपन्यांचे व्हडले टांकयांनी वतलें. मुरगांवां व्हडल्यो टांकयो पळयल्या मरे? मागीर नागरी पुरवठो खातें आमकां क्वोटो दितलें आनी कळयतलें. बरडाच्या पदरांत कितलें पड्य तें पड्य तातूंतलें तुजे नशिबांत आसा जाल्यार तुका मेळटलें नाजाल्यार फुडलो म्हयनो''.

पेत्रोलाचे एके बाटले खातीर म्हाका इतलें सगळें आयकुचें पड्यलें. आमच्या वाड्यार सगळ्यांक पासियेंस भरपूर आसा हाचें सगळें श्रय बरडाक वता. इतले पासियेंसांत भरिल्ले मनशाक (अस्मादीक) घर जांवय कित्याक केलोना हाची जाप मेळुना. शेवटीं वेनेजुयेलाच्यान पेत्रोल घेवन भायर सरिल्ली बोट आनी म्हजे सपनांत संध्याक घेवन भायर सरिल्लें म्हजें व्हडें तडील लागलेना. कित्याक लागलेना हें एक कुवाडें जें सावळ्याक लेगीत सुटुना.

संपर्कः 9850530756

परिक्षण

# मळब कळी

जेश्ठ कवी सर्गेस्त रमेश वेळूस्कार हांचीं ''मळब कळी'' हीं चिंतनां आदीं हांवें 'फेस बुका'च्या माध्यमांतल्यान एक-एक अशीं वाचिल्लीं. मागीर तांतुंतल्यो एकठांय अश्यो पन्नास कळयो बिम्ब दिवाळी २०१६ अंकांत वाचिल्ल्यो. आतां तीं सगळीं एकठांय पुस्तक रूपान वाचपांत आगळीच खोस जाली.

''मळब कळीं''तल्यो ह्यो १२५य कळयो हीं लेखकालीं विंगड-विंगड विशयां वेलीं चिंतना! एके कळयेच्या रूपांत 'कॉम्पेक्ट' जाल्लीं आनीं मळबा येदो आंवांठ आनी हावेस आशिल्लीं. 'गागर में सागर' म्हणटात तसो प्रकार हो. ह्या चिंतनांक विशयाचें बंदन ना. 'आयलें तशें गायलें' ह्या रुपकाराचीं हीं चिंतनां! सैम धरून आयच्या चालंत विशयांचेर लेखकालें चिंतन आमकां वाचूक मेळटा.

हीं सगळीं चिंतनां तशें पळयल्यार एक-एक स्वतंत्र विशय. पूण हांकां जोडपी एक समान धागो म्हळ्यार हीं चिंतनां लेखकान भर फांतोडेर बरयल्यांत. जेन्ना आशीकुशिकचो सगळो वाठार पांगरूण घेवन सुस्त साकर न्हिदेंत आसता तेन्ना सर्गेस्त रमेशबाबा सारको सर्जनशील लेखक जागो आसतालो आनी सैमाच्या कंवळ्या रूपांत समरस जावन हीं चिंतनां बरयतालो तेन्ना ह्या चिंतनांक सैमीक जोड मेळप सभावीक आसा.

लेखकाक नवीं उतरां घडोवपाचो सोस आसलो. ताच्या ह्या चिंतनांनी अशीं नवीं उतरां आमकां साबार कडेन मेळटात. 'मळब कळी' हें एक अशेंच उतर! ह्या 'मळब कळी' उतराक वेगळे वेगळे आयाम आसात. लेखकाचे नदरेंत सांगूंक गेल्यार ''फांतोडेर मळबांत उडून वचपी सवण्यान प्रस्तूत लिखाण बरोवपाची उर्बा दिली आनी त्या खिणाक हें सवणें म्हळ्यार लेखकाक 'मळब कळी' अशें दिसलें. ''मळबानूच म्हाका दिल्लो हो आशिर्वादसो दिसलो. मनांत भरिल्ल्या विचारांच्या स्रोतान आनी तांच्यांत निर्माण जाल्ले प्रेरणेन उरिल्लें सगळें काम केलें.'' अशें लेखक एके कडेन म्हणटा.

पूण म्हजे सारक्या वाचप्याक मळबा भशेन व्हड आवाठ आशिल्लीं हीं चिंतना लेखकान कळयेच्या रूपान आमचे मुखार दवरल्यांत अशें दिसलें. ह्या चिंतनांच्या कळयांक आमी आमच्या मनांत फुलूंक दिलीं तर आमचे जिणेक मळबा येदी विशालकाय येवंक शकता, आमची जिणे कडेन पळोवपाची नदर बदलूंक शकता.

'मळब कळी' पुस्तकाचे प्रस्तावनेंत फांकिवंत लेखक भौ. दिलीपबाब बोरकार म्हणटात, ''भौ. रमेशबाब वेळूस्कार हांचें पुस्तक 'मळब कळी' म्हळ्यार तांणीं केल्लें जिवना वेलें भाश्य. 'मळब कळी' म्हळ्यार तांचें अशें सृजन जातूंतल्यान सैमाचें पुजन घडटा''.

'मळब कळी'च्या अंतरंगांत भितर सरतना सुरवेकच लेखक म्हणटा ''सनातन काळखाच्या अंतरांत एक माणकुली वात पर्जळटा. आनंदाची, आपुलकायेची, करुणेची, समर्पणाची, माणसुकेची आनी सत्याची ही वात. तिका पळयात. ती तुमकां दिसूंक लागली की ती आपल्या कामाक आरंब करता...''

सर्गेस्त रमेशबाब वेळूस्कारा सारको प्रतिभावंत कवी जेन्ना गदयांत बरयता तेन्ना अचळय कवीमन त्या गदयांत शिरता. त्या गदयांत आमकां कवितेचीं विंगड-विंगड आंगां दिसपाक लागतात आनी गदयाक लेगीत एकतरेची गोडसाण येता. पूण केन्ना केन्नाय अती काव्यात्मक वर्णनां मूळ विचाराक बादा हाडपाचो भंय आसता आनी तो टाळपाक लेखक येसस्वी जाला.

पुस्तकांतल्या चिंतनाच्या विशया संबदान हांव भाश्य करना कित्याक तर तीं प्रत्येकान वाचून अणभवपाचीं आसात. म्हाका वाचून जो अणभव आयला ताचेपरस वेगळे तरेन तीं तुमकां आवडूंक शकतात.

ह्या पुस्तकांत मुखपृश्ठाचेर फांकिवंत चित्रकार हर्षदाबाय केरकार हांणी काडिल्ल्या चित्राचो मुद्दाम उल्लेख करिन सो दिसलो. चित्रकारान मळब कळयेक मळबांतल्यान पडपी पावसाच्या थेंब्यांचें रूप दिलां. तें पळयतगीर म्हाका मळब कळयेचो आनीक एक आगळोच अर्थ कळ्ळो. हर्षाबायक परबीं!

सर्गेस्त रमेशबाब वेळूस्कारालें 'मळब कळी' हें पुस्तक 'बिम्ब प्रकाशनान' उजवाडायलां.

सर्गेस्त रमेशबाब वेळूस्कार बाबाक म्हजीं आर्गां.

**सखाराम शेणवी बोरकार**
संपर्क : 9923306751

**मळब कळी**
बरोवपीः रमेश भगवंत वेळुस्कार
उजवाडावपीः बिम्ब प्रकाशन
पानांः १४८
मोलः २०० रुपया.

# कविता

## अमृताचो पेलो

### बबन भगत

गोड आलाप आयक रे
म्हज्या करमलघाटाचो
भावा करमलघाटाचो
जिवो तटतटीत उठला पळय
सैमान भरिल्लो रे भावा
सैमान भरिल्लो
आकांताचो श्वास ताचो
आकांताचो रंग
पाचवोचार कोर ताचो
जाले सगळे दंग
सैम संपत्त पोटांत घेवन
न्हिदला पळय कसो
तो न्हिदला पळय कसो
छातयेर आपल्या दवरून पळय
अमृताचो पेलो बाये
अमृताचो पेलो

संपर्क: 9890509262

## हांव असो कसो

### प्रकाश पाडगांवकार

हांव हे घटकेक
काळाच्या मुळसाक बसलां
आनी हांगच्यान हांव
पळयता वयर
तेन्ना दिसता म्हाका
रान काळाचें वाडिल्लें
आनी आता तें
म्हज्या मेरेन अस्तावेस्त पातळिल्लें

हांव हे घटकेक
नियाळटा म्हाका
जाणून स्वताक
काळाचो एक लुप्त जावपी घटक
सपन एक काळाचें
काळाच्या सांगातान जियेवन
सपनच कशे विरगळपाचें

हाव खंय उरतलो?
खंयच ना
हांव आसा आसतलो
हो एक भास, हेंच वास्तव!
ह्या वास्तवाक ना कसलें
बुनादिचें मुळावण

हांव उजो व्हय?
म्हाकाच पेटोवन पेटत राविल्लो?
हांव म्हासागराचो तळ व्हय?
पोंदच्यान हुमटावंक राविल्लो?

हांव सुर्याचो वंशज न्हय?
फाल्यांच्या काळखा कुसव्यांतलो?
मळबाची कंवची फोडून
झोकून दिवंक राविल्लो?

संपर्क: 09423060384

## घब घब

### नूतन साखरदांडे

घब घब
घब घब
सकाळच्यान
सांज मेरेन
सगळींच जाणां
धांवत आसतात
कित्या खातीर
कोणा खातीर?
कांय वेंत भर पोटा खातीर
कांय खाण भर दुडवां खातीर
पूण पोट तें
वाडटा वाडटा
वाडत वता
पोटाची भर भरचना
दुडवांची आस सुटच ना

एक दीस
काळजांत जाता
घब घब
घब घब
दोतोरागेर
पावता म्हळ्यार
सगळेंच सोंपता
लब लब
लब लब...

संपर्क: 9970445778

